# डोब : एक लोकवाद्य

सर्वेश चंद्रकांत भोसले




गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी - गोंय

**डोब** : एक लोकवाद्य
(लोककला)

**सर्वेश चंद्रकांत भोसले**

**प्रकाशन क्र. : 140**



**पयली आवृत्ती : 2011**

**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी, गोंय.

**छापपी :**
स्वर्णमुद्रा प्रिंट्स,
मार्शेल, गोंय



**मुखचित्र** : गौरीश वेर्णेकार

**मोल** : रु.100/-

**DOB** : EK LOKVADHYA
(Folk Art)

**Sarvesh Chandrakant Bhonsle**

**Publication No. :** 140



**First Edition : 2011**

**Publisher :**
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji, Goa.

**Printer :**
Swarnamudra Prints,
Marcel, Goa.

**Cover :** Gourish Vernekar

Price : Rs. 100/-

# मांडावळ

उ. डोब वाजोवपाची रीत

5. डोब /डब / नगारे हांतुंतलो फरक

6. तासो अवनध्द वाद्य

अ. ताश्याचो आस्पाव प्राचीन संगीत साहित्यांत

आ. गोंयांतले ताशे/आराब

इ. तासो कसो तयार करतात

ई. ताश्याची घडसणी

7. ताश्याचे प्रकार

अ. तासो पयलो प्रकार

आ. तासो दुसरो प्रकार

इ. तासो तिसरो प्रकार

ई. ताश्यांत जायत गेल्ले बदल

उ. तासो वाजोवपाची रीत

ऊ. ताश्याचो उपेग गोंयातल्या लोकप्रकारांत /लोकनाचांत

8. कांसाळें घनवाद्य

अ. कांसाळ्याचो उल्लेख वैदिक संगितांत / साहित्यांत

आ. कांसाळें

इ. कांसाळ्याची घडसणी

9. कांसाळयाचे प्रकार

अ. कांसाळें पयलो प्रकार

आ. कांसाळें दुसरो प्रकार

इ. कांसांळ्यांत जायत गेल्ले बदल

ई. कांसाळें वाजोवपाची रीत

उ. गोंयांतल्या लोकप्रकार आनी लोकनाचांत कांसाळ्याचो उपेग

10. जघांट घनवाद्य

अ. जघांटाचो आस्पाव प्राचीन संगीतांत

आ. जघांट/जाघंटें


WORLD KONKANI LIBARY
Accn No:003731

# अकादेमीचे वतीन

लोकसंस्कृतीत लोककलेक खूब महत्व लाबलां. प्राचीन संस्कृतायेचो दाखलो लोककला आसा. देखून इतिहासांत खोलायेन वता तेन्ना हीच प्राचीन लोककला आमकां आमच्या दायजाच्या मुळसाकडे पावयता आनी आमकां आमच्या अस्तीत्वाचें भान करून दिता.

आदिमानवाच्या आंगांत जे जे कलागूण आशिल्लें ते ताचे अशे खाशेले अभिव्यक्तींतल्यान दिसून येतालें. नाच-गाणें, कथा- काणी , नाट्य-अभिनय, सूर - तालान आनी संगीताचे धुनीर सोबता हाची जाणीव तेन्नाय आसली आनी तेच खातीर दर एक लोककला वाद्यां वांगडाच तयार जाल्ली. तरे तरेचीं पोरणीं वाद्यां, घुमट, शामेळ जावं झांज- कासांळें, धोल - ताशे आनी आधुनिक तबलें, पकवाज वा बोंग्या मेरेन, जीं वाद्यां आयज आसात त्या वाद्यांमदीं 'डोब' हें लोकवाद्य आस्पावता. दर एक वाद्याची खाशेली सूर-ताल आवाजाची एकच शैली आसता. तांची बांदणी वो आकारूय वेगवेगळे आसतात. डोब आनी धोल हे एके प्रकारचेच, पूण तांचो वापर मात वेगवेगळ्या प्रसंगार जाता. आमच्या गोंयांत डोबापरस धोल खूब ओळखीचो, आमचो शिगमो धोलाबगर सोबना, तशेंच भजनां पकवाजाबगर. मात डोब वा नगारो·हे देवळांनी वा राजवाड्यांनी आसताले.

अशा ह्या लोकवाद्यांची सविस्तर म्हायती एका पुस्तकाच्या रूपान कोंकणी भाशेंतल्यान येता हें खूब महत्त्वाचें. गोंयांतलीं हीं लोकवाद्यां, तांची म्हायती म्हळ्यार नवे पूण आधुनीक पिळगेक एक तरेचो दस्तावेज. डोब म्हळ्यार अर्दो धोलूच. धोलाची दोनूय आंगा तोणयांनी बडोवंक मेळटात, तर डोब निवण्यार उबो दवरून, एकाच जाग्यार दवरून तोणी घेवन वयल्यान वाजोवंक मेळटा. ताका कांयकडे नगारोय म्हण्टात.अशा ह्या वाद्याविशीं खूब म्हायती एकठांय करून ती पुस्तक रूपान कोंकणी वाचप्यांमेरेन हाडून सोडप हो खूब मोलाचो वावर. बाब सर्वेश भोसले हाणें तो कितलीं वर्सां राबोवन केला, खूप कश्ट घेतल्यात, संशोधनूय केलां. ह्या ताच्या परिश्रमाचे फळ म्हळ्यार 'डोब' हें पुस्तक !

गोवा कोंकणी अकादेमी आपल्याल्या लोकवेद विभागावरवीं लोककलेची आनी लोकवेदाची सेवा करता, हें पुस्तक ताचोच परिपाक. गोवा कोंकणी अकादेमीक हें पुस्तक हाडटना खूब खोस भोगता.

धन्यवाद !

**एन. शिवदास**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# लेखकाचें मनोगत

' गोंयचे डोब' हे वाद्याचें पुस्तक बरयताना म्हाका पयली याद जाली म्हज्य गांवचे जे भुंयेर हांव वाडलां, ल्हानांचो व्हड जाला तिची. ल्हान आसताना 'डोब' वाद्याचें संगीत म्हज्या कानार पडटालें. डोबाचो ठेको धरपाक म्हाका कळटालो. डोब, तासो कासाळें, जघांट हेंजें गिन्यान म्हाका आसलेलें आनी सगळ्या भुरग्यांभीतर हांवूच जाणकार पूण मांडार असो दंडक आसतालो, जो कोण डो़बाचें चामडें फोडीत ताका ते पयशे दिवन हाडचे पडटालें ते खातीर हांव सदाच फाटीं आनी वाजोवपाक भंय कसो दिसतालो. मनान आसून लेगीत वाजोवपाक गावं नासलें. पूण धा जाणांनी ती सर्त घातिल्ली काडली आनी तेन्ना हांव खूब खोशी जालों आनी डोब हांवें तेन्ना शाळेंत आसतना वाजोवपाक घेतलो. म्हजे बापूय स. चंद्रकांत भोसले हाका हांव मांडार गेल्लो नाका आसलो आनी म्हजी कागाळ म्हजी आवय बापायकडे करताली. तिका भंय आसलो को़णूय आपल्या चेड्याक सोरो घालीत म्हण, पूण हांवें वाजोवपाचें सोडलें ना. म्हज्या गांवांत आखाड्यार वर्साक चारदां डोब वाजयताले. पयले आखाड्यावयले होळयेक, दुसरें आमोणेचे सुवारेक, तिसरें रूक्मिणीच्या देवस्थानाच्या मांडार आनी चवथें विठ्ठल रूक्मिणीच्या देवस्थानाच्या मांडार नाटकाच्या उपरांत धुळवटीक 'डोब' वाजयताले. आखाड्यार डोब बऱ्यापैकीं वाजोवपी स. दशरथ भोसले आनी स. तुळशीदास फडते आनी तासो वाजोवपी श्री. सिताकांत भोसले आनी श्री. दामोदर सावंत, कांसाळें वाजोवपी श्री. दिनानाथ भोसले, श्री. अरूण भोसले, जंघाट वाजोवपी श्री. महाबळेश्वर भोसले, श्री. अमृतराव भोसले हांका पळोवन हांव शिकलो आनी हांवें ही कला रोकडीच आत्मसात केली. जेन्ना हांव कॉलेजांत पावलो तेन्ना ग्रंथालयाची खूब पुस्तकां म्हज्या वाचनात आयलीं आनी हांव पुस्तकांचो सामको पिसो, तांतूत जेन्ना हांव करनाळी (फोंडें) हांगासर राजेश सरनाईक हांचें कडे घुमट शिकोवपाक गेल्लो तेन्ना म्हाका ताणें 'गोमंतकीय लोककला आणि लोकवाद्य' हें श्री. विनायक खेडेकाराचें पुस्तक चाळपाक दिलें, तांतूंत 'डोबाचो' उल्लेख आशिल्लो. तशेच जेन्ना हांव पुस्तकाचें गिन्यान वाडोवपाखातीर गोंय विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत पावलो थंय म्हाका वासुदेव फडके हांणी 'खांबघुमटाच्या सावलीतील संगीत' हें स. मलबारराव सरदेसाय हांचे पुस्तक वाचपाक दिलें. तातूंत आमोणेचे सुवारेचो उल्लेख तसोच आखाड्यावयल्या डोबाचो उल्लेख आशिल्लो. तेन्नाच म्हाका दिसलें, ह्या डोब' वाद्याखातीर कितेंय तरी करचें म्हण आनी हांवें खंय डोब वाजता त्या गांवांनी भेट दिवन वाजोवपाची तांची पध्दत कॅसेट रूपान संग्रहीत केली आनी ताचो म्हाका पुस्तक

बरोवपाक भरपूर उपेग जालो. तिसवाडी तालुको, बार्देश तालुको, फोंडें तालुको, दिवचल आनी पेडणें तालुको हांव म्हज्या बापायवांगडा फाटल्यान स्कुटरीचेर बसून भोंवलां.

जेन्ना हावें सगळें पुस्तक रूपान बरोवन काडलें तेन्ना हांव पत्रकार आनी कोंकणीचे म्हालगडे रामानंद तारी हांचेकडे गेलो, ताणें कांय सुचवण्यो केल्यो आनी हांव तसोच कोंकणी अकादेमीन गेलो आनी हांव डॉ. तानाजी हळ्णकरांक मेळ्ळो. थंय ताणें म्हाका डॉ. जयंती नायक हांचे नांव सुचयलें. हांव तांकां मेळ्ळों. तांणी म्हाका हातबरपा संबंदान सुचवण्यो केल्यो. तशेंच शुध्दलेखन सुदारूंक आदार केलो. 'डोब : एक लोकवाद्य' हे नांव ह्या पुस्तकाक बरें फाव जातलें आनी तेच नांव हांवें पुस्तकाक दिवचें थारायलें. जेन्ना हांवे डोबाची लिपी बरोवन काडपाचो प्रयत्न केलो तेन्ना म्हाका खंय तरी चुकलेल्या भाशेन जाले आनी हांव म्हजे गुरूकडे पं. उल्हास वेलींगकर, श्री. तुळशीदास नावेलकाराकडे गेलो. ताणें सांगलें पयलीं 'सुवारीवादन' वाजोवन दाखोवचे पडट्टले पूण तेन्ना ते पावसाचे दीस आसले आनी डोब–ताशे कोणूच भायर काडी नासले, पूण म्हजे विनंतीक मान दिवन रातच्या आठांक रामभुवनवाडो कुंभारजुव्या श्रीरामाच्या देवळांत वाजोवपाचे थारायलें आनी गजानन सांस्कृतीक मंडळाचे (कुंभारजुवे) वांगडी श्री. रघुवीर सावंत, श्री. कालिदास तारी हांच्यानी पुढाकार घेवन डोब आमकां दिलो. ताशे विठ्ठल रखुमाई देवस्थानाकडसून (आखाडो) मेळ्ळे . म्हज्या वांगडा वाजोवपाक श्री. सिताकांत भोसले, श्री. रामानंद तारी, श्री. संजीव भोसले, श्री. परेश फडते आनी हांव स्वता आशिल्लो. आमी सुवारीवादन, उड्डुटेवादन आनी रोमटवादन वाजोवन दाखयलें आनी दोगूय जाणकारांनी लिपी म्हायती दिली आनी ती हांवें बरोवन काडली. हें पुस्तक तुमच्या सामकारा हाडपाक खूब जाणांचो आदार म्हाका मेळ्ळो, तातूंत पयलीं म्हजो बापुय स. चंद्रकांत काशिनाथ भोसले, हांकां जाय आसलें म्हजें पुस्तक बेगीन आयलेलें पूण ते पळोवक पावनात ही खंत भोगता. म्हजी आवय श्रीमती चंद्रप्रभा भोसले हिका चड खुशी जातली जेन्ना हे पुस्तक उजवाडा येतले तेन्ना आनी हांव उपकारी आसा म्हज्या आखाडो गांवाचो जंय हांव ल्हानाचो व्हड जालों आनी ही लोकवाद्यकला म्हाका शिकोवन, जाणून घेवचें भाग्य लाभले. 'डोब' ह्या वाद्याचेर आजुनूय हिन्दी, कोंकणीत, मराठीत, इंग्लीशीत पुस्तक ना. हेच पळोवन हांवे पुर्ण म्हायती डोबाची, ताश्याची, जंघाटाची, कांसाळ्याची दिल्ल्या. म्हाका डोबाची खबर आसल्यान बरोवपाक चड सोंपी पडली. हांवे 'गोंयच्या डोबाचेर ' जें संशोधन केलां, तें तशेंच फुडले पिळगेन फुडें व्हरचें आनी गोंयची लोकवाद्यकला समृध्द करची.

सगळी म्हायती एकठांय करपाक आनी ती सोदून काडपाक म्हाका पांच वर्सा

लागलीं. ह्या पुस्तकाचो शिमो - मेरो खूब आसात, देखीक : चडसो लोकवेद, तिसवाडी बार्देस म्हालांतलो आनी थोड्या प्रमाणात फोंडें आनी दिवचल महालांतलो आसा. ह्य लिखाणाचो हेतू लोकवाद्यांची जाण नवे पिळगेक करून दिवची इतलोच आसा. अश वेळार गोंयचे नास पावपी दायज सांबाळून दवरपी 'गोंवा कोंकणी अकादमीक' हांव चड देव बरें करूं म्हणटा !

सर्वेश चंद्रकांत भोसले.

# 1.

# लोकवाद्याचें मुळावण आनी आखाड्याची परंपरा

## नाट्यशास्त्रांत वाद्यांचें वर्गीकरण

भरतमुनीन वाद्यांचे चार प्रकार नाट्यशास्त्राच्या 28 व्या अध्यायांत पयल्या श्लोकांत दिल्ले आसात.

तत चैवावध्दं च धन सुषिसरमेवच ।
चतुर्विद्यतु विजेयमतोद्य लक्षणान्वितम् ।।

वाद्यां चार प्रकाराचीं आसतातः तंत्, अवनध्द वा आनध्द, घन आनी सुशीर. तार आशिल्ल्या वाद्याक तंतू म्हणटात. चामड्याच्या वाद्यांक अवनध्द वा आनध्द आनी कांश्याच्या वाद्यांक घनवाद्य आनी फुंकवाद्याक सुशीर अशें म्हणटात.

## संगीत आनी वाद्यांचो उगम

भारतीय वाद्यांच्या इतिहासांत डमरूक मानाचो जागो आसा. हें खूब पयलींचें वाद्य अशें मानतात. शंकराक वाद्यांचो जनक मानतात. डमरू हें वाद्य ताणें निर्माण केल्लें, हेंच पयलें वाद्य अशें मानतात. दक्षयज्ञाचो विध्वंस केल्या उपरांत शंकरान तांडव नाचाक सुरूवात केली. हया नाचाच्या वेळार ताणें नारद, तुंबर आनी नंदी हांकां वाद्यां तयार करपाची जापसालदारकी दिली. आनी त्या प्रेरणेन तांणी खूब प्रकारचीं वाद्यां तयार केल्लीं अशी आख्यायिका आसा.

डमरू हें चर्मवाद्य शब्दब्रम्हाचें प्रतिक अशें मानतात. महेश्वरासुत्रा शंकराच्या डमरू नादांतल्यान तयार जालीं. डमरूवाद्यांतल्यान सृश्टी निर्मणीचो पयलो नाद भायर सल्लो आनी तांतुनच नादब्रम्ह निर्माण जालें अशें मानतात. तेखातीर संगीतशास्त्राचें भितरलें तालांचें उगमस्थान डमरूंत आसा अशें संगीत शास्त्राचें मत आसा. बारीक पळोवपाक गेल्यार डमरूच्या आकारांतल्यान बाकीचीं वाद्यां तयार जाल्यात. देखीक :- मृदंग, पखवाज, पुंग, खोल , ढोलक, (आडवे) मादाळें.

## डोब /नगारे /हांचो आस्पाव वैदीकं संगीतांत

डोबाचो आस्पाव प्राचीन वैदीक संगीतांत आमकां मेळटा. पयलीं डोबाक

'भूमी दुंन्दुभि ' वा 'रण दुन्दभि' म्हणटाले.

भुमीदुन्दुभि म्हटल्यार जमनीर  एक व्हडलें फोंडकूल खणून ताचेर कातडें घालून आवाज करताले वा वाजयताले. हाका भुमीदुंन्दभि म्हणटाले. हें प्राचीन अशें आदिम अवनध्द वाद्य आशिल्लें.

रणदुंन्दुभि म्हळयार भुमिदुंन्दभिचे  सुदारिल्लें अशें रूप. लाकडाचो व्होणको भितरल्यान पोकळ करून वयर बैलाचें चामडें ताणून दुंन्दुभि वाजयताले. कांय तेपान हाचो उपेग लडायेक जावपाक लागलो. ताका रणदुंन्दभि अशें नांव पडलें. दुंन्दभिचो आस्पाव ऋगवेदांत दिल्लो आसा.

यच्चिध्दि त्वं गृहेगृह उलुखलक युड्यसे ।

इह घुमतम वद जयतामिव दुन्दुभि : ।।

(ऋग्वेद 1.28.5)

**अर्थ :** हे मुसळा, जर तर प्रत्येक घरांनी आसा तर वैदिक कर्मान त्याच प्रकारचो आवाज कर, जे भाशेन जैताचो आवाज दुंन्दभि करता.

## दुन्दभि

'दुंन्दभि' हें अवनध्द वाद्य खूब प्राचीन वाद्य. हें वाद्य वैदिक काळांत प्रचारांत आसलेलें. हाचो वापर लडायांनी जयघोष दिवपाखातीर करतालें. राजवाड्यांनी आनी देवळांनी सकाळीं आनी आमोरेचेर दुंन्दभि हें वाद्य वाजयताले. ताका आयज 'नवकारा' 'नगाडा' अशें म्हणटात. आनी होच तो डोब नगारो जो आयज गोंयांत दिश्टी पडटा.

'संगीत रत्नाकर ' ह्या पुस्तकांत पंडीत शारंगदेवान हाचो स्पश्ट उल्लेख केला. पंडीत शारंगदेव म्हणटात, ''मंगले विजये चैव वाद्यते देवातालये''

हाचो अर्थ असो : खंयच्च्याय मंगलकार्याक वा धार्मिक कार्याक, जावं कोणाचेर जैत जोडल्यार, देवळांनी हो दुंन्दभि वाजयतात. नगारे दोन प्रकारचे आसतात. एक व्हडलो नगारो आनी एक धाकटो. धाकटो धातुपासून तयार करतात आनी चामड्यान तो घडशितात आनी चामड्याचे दोरयेन तो घट्ट बांदतात. व्हडलो नगारो आकारान मोट्टो आसता आनी तो लाकडाचो नाजाल्यार धातुपासून तयार करतात आनी चामड्यान घडशिल्लो आसता. पंडीत शारंगदेवान संगीत रत्नाकर ह्या ग्रंथान म्हटलां, 'हो नगारो  आब्यांच्या लाकडाचो करपाक जाय आनी लाकडाच्या बडयांनी नाजाल्यार चामड्याच्या दाणयांनी तो नगारो वाजोवपाक जाय.

## डोबाचो जल्म आनी कथा

डोबाच्या जल्मा संबंदान ओरीसा राज्यांत एक दंतकथा प्रचलींत आसा. ओरीसातलो शबर लोकांमदलो किट्टुंग हो डोबाचो वा धोलाचो निर्माती अशें मानतात. बाळंतपण, लग्न, देव, देवस्की ह्या सारक्या मंगल विधींचो संदेश पयस पावोपाखातीर तेच भाशेंन खंयीय पिडा, मोडलें, भुयकांप, मरण, संकश्टां हेरांचो सांकेतीक रकाद कळोपाखातीर त्यावेळार खुबश्यो अडचणी येताल्यो. त्यावेळार किटुंगान डोबाचें संगीत तयार केलें. ताणें म्हशीच्या चामड्यांतल्यान 'डोल्लून' नांवाचो एक धोल तयार केलो आनी गायेच्या चामडयांतल्यान 'डगडगन ' धोल तयार केलो. हया 'डोल्लुनचें' आयदाण (आयदन) लाकडाचें तर 'डगडगन' चें आयदाण मातयेचें आसलें. ह्या डोबाचें संगीत आयकून सगळे देव प्रसन्न जाले आनी वाजपाची - नाचपाची प्रथा सगळ्याक सुरू जाली. त्यावेळापासून दोनूय धोलांच्या आवाजांतलो फरक वळखून विंगड - विंगड संकेत पयस पावोपाक लागले.

## डोबाविशीं प्राचीन ग्रंथ आनी कथा.

डोब हो प्राचीन काळापासून चलनांत आसा. डोबाविशीं सगळी म्हायती दिवपी ग्रंथ म्हळयार 'ढोलसागर '. गुरू खेगदास हो कुमांउचो कत्युरी राजा. धाम दयौ हाचो अश्रित आसलो. ताणे इ. स. च्या 10 व्या 11 व्या शेकड्याचे मदीं 'ढोलसागर' नांवाच्या ग्रंथाचें बरोवप केलें अशें मानतात. त्या ग्रंथात डोबाबद्दल खोलायेन विचार मांडलेले आसात ते अशें :

डोब हो विश्वाचें प्रतिक आसा. ब्रम्हा, विष्णू, महेश आनी पार्वती हया चौगांनी मेळून तो तयार केलो. डोब हें बायलेचें प्रतीक आनी तोणयों हें दादल्याचें प्रतीक मानतात. तेखातीर बायलो डोब वाजयनात, वाजयल्यार तोणयांचो वापर करिनात, हातांनी वाजयतात.

डोब चार तरेन वाजयतात. पराणी, अमृत, सिंधी आनी मध्यानी. ताचो सोद लावपी वेगवेगळे आसात. इंद्राच्या दरबारांतलो उद्दीमदास हो अमृतशैलीचो सोद लावपी. मध्यात्याच्या दरबारांतलो बामदास हो सिंधुशैलीचो सोद लावपीं. पराणी शैलीचो सोद लावपी महेंद्राच्या दरबारातलो विपीलदास हो. विक्रमादित्याच्या दरबारांतलो अगवानदास हो मध्यानी शैलीचो सोद लावपी. उपरांत अगवानदासाची शैली फळफळाक आयली. ह्या शैलीची सुत्रिका, बाकुली, सेंदरी आनी झारखंडी अश्यो चार शैली आसात.

' ढोलसागर' ग्रंथांत धोलाच्या तालाची खुबशी म्हायती मेळटा.

लढाई, घुमेल, थरहरी, किरणी, चौरस, चासणी, चामणी यासारक्या वीस प्रकारच्या धोलतालांचो आस्पाव हातूंन मेळटा. फुडें धोलाविशीं बरयतना, गुरू खेगदासान म्हटलां, डोब वा धोल वाजयल्यारूच जितो आसता नाजाल्यार तो मेल्ल्याभाशेन जाता.



2.

# गोंयांतलीं सुंवारीचीं वाद्यां

उत्तर गोंयांत शिगम्याक वाजोवपाची वाद्यां ही खूब व्हडलीं आसतात. तांतूत 'डोब' हें अवनध्द वाद्य पळोवपाक मेळटा, ताका 'नगारो ' ह्या नावान सुध्दा वळखतात. बरोबर दोन ताशे, एक कांसाळें आनी जघांट हीं वाद्यां ताचे वांगडा आसतात. ह्या सगळया वाद्यांक ' सुंवारीवादनाचीं वाद्यां ' अशें म्हणटांत.

## डोब

डोब पयलीं लाकडाचे करताले आनी ताचो आवाज डब-डब करून येतालो, तेखातीर तांका 'डोब' नांव पडले अशें मानतात. डोबाचो आकार सकयल्यान वाटकुळो आनी वयल्यान सरळ आसता. मागीरचे डोब पंचलयेचे (पांच धातू ) जावपाक लागले. तांच्या आवाजावयल्यान तांचे नांव बदलत गेलां जावंयेत.

## आखाड्यावयले डोब / नगारे

आखाड्यार चार डोब आसात. तांकां गोंयांत नगारे वा डोब ह्याच नांवान वळखतात. पयलींच्या तेपार डोब चडशे लाकडाचे आसताले. मागीर लाकूड मेळना जालें. त्या उपरांत पंचलयेचे डोब करपाक लागले. पंचलयेन पांच धातू आसतात. तांबें, पितूळ, शिशें, अभ्रक, लोखण (**Brass, Copper, Lead, Zinc,Turim,**) पांचूय धातू जेन्ना घालून डोब तयार करतात तांका पंचलयेचे डोब म्हणटात. आतां कांश्याचे डोब तयार करतात. तेखातीर तांबें, पितूळ आनी लोखण वापरतात. डोबाची लांबाय 80,90,100 सें.मी. लेगीत आसता. लाकडी पंचलयेच्या वा काश्यांच्या डोबाचेर बोकड्याचें, पाड्याचें, रेड्याचें, बैलाचें, आनी गायेंचें चामडें चडोवन आट्याक ताणून बसयतात. डोबाचो घेर 90,100,110 से.मी. लेगीत आसता. चामड्याचो आटो घेवन हें चामडें वांटकुळ्या लोखणाचे पट्टेचेर घेवन लोखणाच्या वाळ्याचेर लोखणाच्या चयताच्या आदारान पुडी चामडें ताणून बसयतात. डोब वाजोवपाक 30,35,40 से. मी. लांबायेच्यो लाकडाच्यो

## डोब

दोन व्हडल्यो बडयो जांचो घेर 4,5,7 से.मी. आसता, तोंडाकडेन मातश्या उभारी दिल्ल्या ह्या वांटकुळया बड्यांक 'तोणयों' म्हणटात. डोब वाजोवपाक चामडें ताणून घेतात आनी चामड्याचेर कडू तेल, तूप घालतात आनी डोब वताक दवरतात. हें वाद्य खूब फोर्सान वाजोवचें पडटा. डोब वाजयता ताका रोकडेंच पुरो जाता म्हुणून दुसरो वाजोवपी ताच्या हातांतल्यो तोणयो घेवन वाजयता. गोंयच्या जात्रांनी, शिमग्याच्या रोमटाक आनी मेळाक डोब वाजयतात. ताचो आवाज धोलाच्या आवाजापरस मोट्यान येता. उत्तर गोंयांत ताका डोब वा नगारो ह्या नांवान वळखतात. वाजपाच्या वेळार हें वाद्य धोलाच्या दुप्पट लयीन वाजयतात. मात हें वाद्य खूब जड आसल्या कारणान तें एका जाग्यावयल्यान दुसऱ्या जाग्याचेर व्हरपाक जायना तेखातीर ताका दोनूय वाटेन लोखंणाचे वाळे उखलोन व्हरपाक दवरतात, ताचो घेर 10,12,15 सें. मी लेगीत आसता. पयलींच्या तेपार चयतांमदीं दांडे घालून दोनूय वाटेंतल्यान वाद्य उखलून व्हरताले. उत्तर गोंयांत जायतेकडेन हें वांद्य आमकां दिश्टी पडटा. गोंयांत कांय देवळांनी ह्या वाद्याखातीर खास असो जागो दवरील्लो आसता. त्या जाग्याक 'नगारखानो' अशें म्हणटात. देवळाच्या वाठारांत हें वाद्य सदांच वाजयतात.



# 3.

# डोबाची निर्मणी

## लाकडाचो डोब

पयलीं गोंयांत आमकां चडशे लाकडाचे डोब दिश्टी पडटाले. तशेंच जंय भंगसाळ आसा थंय आमकां लाकडाचे डोब दिश्टी पडटाले. लाकडाचो डोब तयार करपाखातीर पणसाच्या, आंब्याच्या, शिशाच्या, खैरीच्या लाकडाचो उपेग जातालो. मेस्ताकडे व्हडले चिराव लाकूड व्हरून मेस्त ताचें जोख काडटालो आनी मागीर ताचेर डोबाच्या आकारान कातयतालो. एकदां डोब तयार जालो, म्हणटगीर मागीर कांसाराकडल्यान लोखणाचो आटो आनी चयतां करून लाकडाच्या डोबाचेर बसयताले. लाकडाच्या डोबाखातीर म्हाराकडल्यान कोंड्याचो आटो तयार करून घेताले. आनी चामड्याचे वादयेन डोब ताणयताले. डोबाक सकल लाकडी बसका आसताली. हे भाशेंन लाकडी डोब तयार करताले.

## डोब कसो तयार करता/डोबाची निर्मणीची पध्दत

डोब कांसाराकडल्यान तयार करून घेतात. ताचो घेरो, ताची उंचाय बेस बरी मापून नाजाल्यार गिरायकान दिल्लो घेर उंचायेच्या आदारान मापून कांसार डोब तयार करतात. डोब तयार करपाक पितूळ, तांबें, लोखण वापरतात पूण ह्या डोबाचो आवाज आयकुपाक बरो येना तेखातीर जाणकार 'पंचलयेचो ' डोब तयार करतात. ताका तांबें, पितूळ, शिशें, लोखण, अभ्रक (Brass, Copper, Lead, Zinc,Turim,) हे धातू वापरतात.

कांसाराकडे डोब तयार करपाक दिताना ताचो घेर, उंचाय मेजल्या उपरांत कांसार पांचूय धातूपासून डोब तयार करता जाल्यार 'चयाता' आनी 'आटो' मागीर तयार करता. डोबाच्या सकयली बसका ताकाच जोडून दिता आनी कुशीक हातांनी धरपाखातीर दोन लोखंणाचे वाळे दवरता. चयातांक त्रेडी काडल्या उपरांत ताका स्क्रु लायता. आट्याक लेटीचेर बुराक मारून डोबावयल्यान आटो चडयता. सकयल बसकेक 'स्टॅन्ड'अशेंय म्हणटात. चामडें चडोवपाखातीर लोखणाचो

आटो कासाराकडल्यान तयार करून घेतात. एका डोबाक दोन, नाजाल्यार तीन लोखणाचे आटे तयार करतात. या डोबाक 'यांत्रिक डोब' अशें म्हणटात.



## चामड्याची घडसणी

लोखंणाच्या आट्यार चामडें चडोवप हें खूब कश्टांचें काम. हें काम गोंयांत पारंपारीक पध्दतीन करतात. रेड्याचें, बोकड्याचें, पाड्याचें, बैलाचें वा गायेचें चामडें ह्या कामाक उपेगी पडटा. कासाराकडेन वचून चामडें पळोवंचे पडटा. चामड्याक बोथो वा चीर पडूंक फावना. ताचें चामडें हें खूब दीस येता नाज्याल्यार मिठाक मारलेलें चामडें रोकडेंच फुट्टा. रेड्याचें चामडें हाडल्या उपरांत चामडें ताणोवन सुकयतात आनी भायल्या जनावरांनी तें पिड्यार करचे न्ही म्हण आडसर करतात. चामडें सुकयल्या उपरांत आट्याचें जोख घेवन चामडें सुरयेन, ब्लेडीन वा कातरीन कातरतात. चामड्याच्या देगेक बुराक मारून तातुंल्यान नायलॉन वा सुताच्या दोरयन आट्याचेर ताणोवन घेतात. आनी दोरयाचीं पोतां एक करून मदींच पीळ घालून तांगली मारतात. आट्याच्या कुशीक चार आंगानी खिळे मारतात मागीर सगळे खिळे मारून जाले म्हणटकच एक -एक खिळो काडून तांतूत सुताचें पोंत घालून शिंवणेन शिवतात. थोडे चामड्याच्या वाद्यानीसुध्दा शिवंतात. नवें चामडें उदकांत घालून दवरतात आनी भाताच्या कुंड्यान तें चामडें मळटात. आट्यार चडयल्लें चामडें सावळेक सुकोवपाक जाय नाजाल्यार चामडें फुटपाक शकता. चामडें तयार करपाक सादारण तीन दीस लागतात. चामडें सुकल्या

उपरांत रांपिनी वा कवच्यांनी चामड्यावयले केंस काडटात.

## डोब कोण तयार करतात?

गोंयांत डोब हें वाद्य चडशे कांसार लोक तयार करतात. दिवचले आनी म्हापश्या तांची वसणूक (वस्ती) चड प्रमाणांत आसा. ते पारंपारीक तरेन काम करीत आयिल्ले आसात. तशेंच कासांळी, जांघटी, ताशे तांचे कडल्यान करून घेतात. जाय जाय ते आकार तयार करपी कांसार गोंयात आमकां दिश्टी पडटात. साद्या डोबाची फेती कमी, जाल्यार पंचलयेच्या डोबाची फेती चड आसता.

## डोबांचीं/ताश्यांचीं/चामडीं कोण शिंवता ?

डोबांचीं आनी ताश्यांचीं चामडीं पारंपारीक पद्दतीन चामार शिंवता. कसायाकडल्यान चामडें हाडून ताचें जोख काडून आट्याचेर ताणयतात आनी चामड्याचीं कोवळां तयार करतात. जुवें, आमोणें, सावयवेरें, वळवय, भोमा, बेती, निरला, हांगासर चामडीं शिंवतात. चामड्याची शिंवण खूब महत्त्वाची आसता. शिंवण सुटत जाल्यार डोबाचो आवाज येना.

## डोबाचो बॉण तयार करपाची रीत

डोबाक बॉण लावाप हें खूब म्हत्त्वाचें काम, नाजाल्यार डोब घुमचोना आनी रोकडोच फुट्टलो. बॉण करपाखातीर एकवीस तरेचे नग लागतात. ताची म्हायती बॉण करपी केन्नाच सांगिनात. आतां बॉण करपी बारा तरेचे नाजाल्यार पांच तरेचे नग वापरतात. सगळे नग तोपांत घालून शिजोवपाक जाय. बॉण शिजोवपाक तीन वरां लागतात. बॉण शिजयताना दवल्यान धवळपाक जाय. चड उजो जायत जाल्यार बॉणाक उजो लागपाक शकता आनी बॉण भंगपाक शकता. तेखातीर बॉण करपी तीन वरां चुलीर तोपांत बॉण घालून थंयच रावतात.

## बॉण करपाखातीर लागपी नग

1. कोडू तेल- अर्द लिटर
2. मंडोळी केळी - एक
3. गुंज्यो (तांबडयो) धा
4. गुलमोहराची सांग - एक
5. चिंचो - तीन
6. पावाचो गिरप - एक

7. एंड्रेल तेल - 50 मि.ली.
8. डांबर (रस्त्याचो ) २ किलो
8. खश्टेल तेल - अर्द लिटर
10. शेळकुटांचो गोबोर
11. बारीक मुसांचें म्होव
12. चंद्रस (पोनेळाचो ) एक किलो
13. जळको टायराचो कुडको - एक
14. मेण
15. काजुच्या बियांचो दीख
16. बाळ्याच्यो सांगो
17. गाडयेची जळकी ऑयल - अर्द लिटर
18. गाळिल्ली माती.

पोरेन्या गोंयच्या सापेद्र गांवचो स. सावळो सावंत हो बॉण तयार करपांत फिशाल आशिल्लो. ताच्या उपरांत ही कला ताचो पूत श्री. दत्ता सावंत हाणें हातासल्ल्या. चामड्याक बॉण लावपाखातीर फोलीणांत वा लातांत दवरिल्लो बॉण भायर वताक कडपाक दवरपाक जाय. चामड्याच्या सकयल्यान पॉलीश पेपरान बॉणाकडलो कुडको निवळ करपाक जाय आनी ताचे उपरांत, वताक कडयलेलें बॉण लावपाक जाय. बॉण घट्ट दसपाखातीर वांटकुळी बाटली नाजाल्यार फातोर घेवन वयर उदक उडोवन सुळसुळीत करपाक जाय. बॉण पातळ जावंक जाय म्हण वताक दवरतात. तें हाताक दसपाक जायना म्हण हाताक तेल काडटात.



# 4.

# डोबाचे प्रकार

डोबाचे तीन प्रकार गोंयांत आसात. तातूंत व्हडलो डोब, मध्यम डोब, धाकटो डोब अशे प्रकार आसात.

## व्हडलो डोब / पयलो प्रकार

ह्या पयल्या प्रकारच्या डोबामदीं लाकडाचो आनी 'यांत्रीक' म्हळयार धातुच्या डोबाचो आस्पाव जाता. हो डोब खूब जड आनी पळोवपाक भक्कम असो दिसता. ह्या डोबाची लांबाय 100 सें. मी. आसता आनी ताची रुंदाय वा घेर 110 सें. मी. आसता. ह्या डोबाक रेड्याचें, पाड्याचें, बैलाचें नाजाल्यार गायेंचें चामडें वापरतात. आनी घुमोवपाक लागून सकयल्यान बुराक दवरतात. ह्या डोबाक व्हडल्यो दोन तोणयो लागतात. हाच्या तोणयांची लांबाय 40 से. मी. आसता आनी ताच्या तोंडाकडचो घेर 5.से.मी. आसता. हो डोब चडशे जाणकारूच वाजयतात. गोंयांत असले पयली पंचलयेचें डोब आसलेलें आतां यांत्रिक डोब तयार करतात. आखाड्यार आशिल्लो डोब गोंयांतलो सगळयांत व्हडलो डोब अशें म्हणटात.



## मध्यम डोब / दुसरो प्रकार

ह्या मदल्या प्रकारच्या डोबामदीं लाकडाचो आनी 'यांत्रिक', म्हळयार धातुच्या डोबाचो आस्पाव जाता. गोंयांत होच डोब चडशे लोक वाजयतात. ह्या डोबाची लांबाय 90सें. मी.आनी रुंदाय 100 सेमी. आसा. 20 ते 25 सेमी अंतराचेर लोखणाच्या आट्याचेर लोखणाच्या स्क्रुच्या आदारान वयलो आटो ताणून बसयल्लो आसता. डोब वाजोवापाखतीर

35 से.मी. लांबयेच्यो दोन तोणयो लागतात. ह्या तोणयांचो मुखावयलो भाग वांटकुळो आनी फुगलेलो आसता आनी तेजो घेर 4 सेमी आसता. ह्या डोबाक सकयल लोखणाचे स्टॅन्ड केल्ले आसता. आनी ताचेर डोब दवरून स्क्रुनी घट्ट करून तो वाजयतात. ह्या डोबाचें वजन 90ते 100 किलो आसता. ह्या डोबाचो आवाज धींऽधींऽ असो येता. व्हडल्या डोबापरस मध्यम डोब धाकटो आसता.



## ल्हान डोब / तिसरो प्रकार

ह्या तिसऱ्या प्रकारच्या डोबामदीं लाकडाचो आनी 'यांत्रिक' म्हळयार धातुच्या डोबाचो आस्पाव जाता. ल्हान डोब वाजोवपाक बरो पडटा. चडशे शिकपी तरणाटे हो डोब वाजयतात. ह्या डोबांची लांबाय 70 से.मी. आसता आनी रुंदाय 90 से. मी. आसता. डोबाक धरपाखातीर कुशीक दोन लोखणाचे वाळे दवरलेले आसतात. 18 से.मी. अंतराचेर थेयलेल्या आट्याचेर लोखणाच्या स्क्रुच्या आदारान कोवळाचो आटो ओडून बसयतात. हो डोब वाजोवपाक सुमार 25 से.मी. लांबायेच्यो दोन तोणयो आनी ह्या तोणयांचें तोंक मात्शें फुगलेलें आसता. तांचो घेर 4 से.मी. आसता. ह्या डोबाचो आवाज धिऽ धिऽ असो येता. कांयकडेन हो डोब पंचलयेचो आसता. वारें वचपाखातीर ह्या डोबाक सकयल्यान बुराक केल्लो आसता. पंचलयेचो डोब आसल्या करणान हो डोब 'घुमघुमता' आनी आकारान ल्हान आशिल्यान हो डोब कोणूय वाजोवपाक शकता. ह्या डोबाचें वजन 60 ते 70 किलो आसता.



## डोबांत जायत गेल्ले बदल

जसो काळ बदलत गेलो तशें डोबामदीं खूब बदल जायत गेले. पयलीं डोब लाकडी आसतालो आनी लोखणाच्या आट्याचेर चयतांनी तो चडयतालो. डोब दोरयांनी नाज्याल्यार वादयांनी सुद्दा ताणयताले. अशें ह्या वाठारांतले जाण्टे वाजपी कलाकार सांगतात. मागीर डोब हो यांत्रीक पध्दतीन तयार करपाक लागले. लाकडां सहज मेळनासलेलीं आनी लाकडांक रोकडीच येरोळी वताली. तेखातीर पंचलयेचो डोब तयार करपाक लागले. आनी आतां तांब्याचो आनी पितुळचो डोब तयार करतात. पंचलयेच्या डोबाक खूब दुडू फारीक करचे पडटाले तेखातीर तांब्याचो डोब खूब जाण तयार करपाक लागले. आतां चडशे जाण यांत्रीक डोब तयार करतात पूण लाकडाचो डोब गोयांत नानपयत जाल्लो आसा.

## डोब वाजोवपाची रीत

पयलीं डोब भायर काडून वताक दवरपाक जाय. मागीर ताचें आट्याचें कोवाळ काडून ताच्या सकयल्यान पॉलिश पेपर मारून, बॉण लावन तें सुळसुळीत करून वताक दवरपाक जाय. मागीर कोवाळ डोबाच्या कडाचेर चडोवन चारी कुशींनी चयतां चडोवपाक जाय. मागीर सगळीं चयतां इल्लीं-इल्लीं पान्यांनी तायट करपाक जाय आनी ताच्या उपरांत डोबाचेर गायेचें तूप थापडून सगळयाक करपाक जाय आनी डोब वताक दवरपाक जाय. डोब चडल्या उपरांत कोडू तेल डोबाचेर ओतपाक जाय आनी ते नंतर डोब वाजोवापाक सुरू करपाक जाय. ही जाली पयलीं पद्दत. दुसरी पद्दत म्हळयार, डोबाक हात जोडून वाजोवपाक सुरू करतात. दोनय हातांनी तोणयो घेवन डोबाचेर वाजयतात. कोण उजवो आसा, तो उजव्या हातीन वाजयता, कोण दावखुरो आसा, तो दावखुऱ्या हातीन तोणयो घेवन वाजयता. डोबाचेर तोणी मारता आसतना निसाट्टी म्हळयार आडवी मारतात. उबी मारनात. उबी तोणी डोबाचे कुशीक बसत जाल्यार डोब फुटपाक शकता. ते खातीर तोणी ही निसाट्टीच मारपाक जाय. असो नेम आसा. निसाट्टे तोणयेन आवाज बरो येता. थोडे वाजोवपी दोनूय हात तोणये सकट मथ्यार व्हरोन वाजयता, तर थोडे एक - एक करून हात तोणये सकट सकयल वयर करतात. वाजोवपी डोबार पडून वाजयतात, थोडे उबे रावन वाजयतात, थोडे उबे आनी आडवे रावन वाजयतात. सुंवरीवादनांत डोबाक पयलो मान आसता. तेखातीर सुंवारीवादनाची सुरवात डोब पयलीं तोणी मारून करतात. सुंवारेत डोबाक बापायचो दर्जो आसता. डोबाक दोन नाजाल्यार एक बुराक दवरतात. पंचलयेचो डोब हो सगळया डोबां परस चड म्हत्त्वाचो आसा, कारण ह्या डोबाचो आवाज पयससुद्दा आयकुपाक येता. ह्या डोबाचो आवाज घुमघुमता म्हुणून पंचलयेचो डोब हो सदांच बरो अशें मानतात. ताच्या फाटोफाट लाकडाचो डोब आनी निमाणेकडे तांब्याच्या डोबाचो वापर करतात.

# 5.

# डोब, डब आनी नगारो हातुंतलो फरक

गोंयांत डोबा सारके आनीक एक अवनध्द वाद्य आसा. पूण ताचो आकार खूब ल्हान आसा. तेंका ढब तशेंच डब, डोब अशें सुद्दा म्हणटात. तिसवाडी तालुक्यांत डोंगरे या गांवात सुंवारी आनी आरती वांगडा डब वाजयतात. तशेंच फोंडा तालुक्यांतल्या दुर्भाट आनी आडपय हांगा डब वाजयतात. गावडा जागरांत डब हे अवनध्द वाद्य वाजयतात. ह्या डोबाची खासियत म्हळयार, हो डब वाजोवपाक एकूच तोणी लागता. जाल्यार डोबाक दोन तोणयो लागतात. सुंवारी आनी आरती वेळार डबा बरोबर घुमट, समेळ, कांसाळी वाजयतात. गावडा जागरांत डबाबरोबर घुमटां, कांसाळें वाजयतात. डोब हो डबाच्या आकारापेक्षा तिप्पटीन व्हडलो आसता. डब हो बसून वाजयतात. जाल्यार डोब हो उबो रावन वाजयतात.

गोंयांत नगारे देवळांनी पळोवपाक गावतात. डोबाची लांबाय नगाऱ्यापरस चड आसता.नगाऱ्यांचो आनी डोबाचो घेर हो एक सारकोच आसता. डोबाच्यो तोणयो व्हडल्यो आसतात. जाल्यार नगाराच्यो तोणयो ल्हान आसतात. नगारे हे देवळात वा नगारखान्यांनी वाजयातात, जाल्यार डोब देवळाभायर वाजयतात.



# 6.

# तासो

## ताश्याचो उल्लेख प्राचीन संगीत साहित्यांत

थोड्या लोकवाद्य जाणकारांचें अशें मत आसा की तासो हो अस्तंती वाठारांतल्यान भारतात आयला पूण चडशे जाणकार भारतांतूच ताचो जल्म जालो, अशें मानतात. वाटये सारकिल्या आकाराक प्राचीन काळार भारतांत 'भांडवाद्य' म्हणटाले. हें वाद्य ताश्याच्या आाकारासारखे आसले. वैदिक साहित्यांत ताश्यांचो उल्लेख सापडटा. कौटील्याच्या अर्थशास्त्रांत ताश्यांक 'वाद्यभांड' अशें म्हणटा. प्राचीन संगीतांत धाकट्या अवनद्य वाद्याक 'छोटा नगारा' नाजाल्यार 'नकारा' अशें म्हणटा. संगीत दामोदार आनी संगीत रत्नाकर हया ग्रंथात ताश्याचो उल्लेख आमकां मेळटा.

## गोंयांतले ताशे /आराब

गोंयांत वाजयतल्या डोबावांगडा वाजोवपाचो 'तासो' हें एक महत्त्वाचें वाद्य. पयलीं ताशे लाकडाचे आसताले, तेका 'आराब' अशें म्हणटाले. आतांचे ताशे पितुळचे, तांब्याचे, स्टीलाचे आसतात. आतां बाजारांम 'चायनीज ताशें' य पावलयात, जांचो उपेग लोक वाजोवपाक करूंक लागल्यात. ताशे आकारान सारखें तोपल्या भाशेन आसतात. ताच्या तोंडार बोकड्याचें चामडें चडोवन दोरयेच्या तेक्यान ताची पुडी चडयतात. आनी 10 ते 12 स्क्रुच्या आदारान बसयतात. कांय ताश्यांची पुडी वाद्यांनी बसयल्ली आसता. सगळया ताश्याचे पुडीचो घेर 50,60,70 सेंटीमिटर आसता आनी उंचाय 12,20,35 सेंटीमिटर मेरेन आसता. तासो गळयात घालून वाजयतात. सुमार 30,35,40,सें. मी. लांबायेच्यो दोन वेताच्यो बडयो घेवन तासो वाजयतात. कुशीक आशिल्ली चयता ताश्याचे चावयेन आवळून आवाज बारीक मोट्टो करूं येता. गोंयात कायं जाग्यांचेर लाकडी ताशे दिश्टी पडटा

तांका 'आराब ' अशें म्हणटा. तेच्या तोंडार स्क्रु नाजाल्यार दोरयेन नाजाल्यार वादयांनी चामडें चडयतात. डोबा बरोबर तासो मात्रा भरपाचें काम करता.

## तासो कसो तयार करतात. / ताश्याची घडसणी

आतांचे ताशे यांत्रीक पध्दतीन तयार करतात, ते खातीर तांकां यांत्रिक ताशे म्हणटात. तासो करपाखातीर ताचो घेर, लांबाय, रुंदाय दिवंची पडटा. ताशे जोड्यांनीच तयार करून दितात तेखातीर कांसाराक पयलीं सांगपाचे पडटा. तासो हो धातुपासून तयार करतात. पितूळ आनी तांब्याचो तासो चडशे जाण वापरतात. तेखातीर ह्या ताश्यांक सगळयांत चड मागणी आसता. ओतारी धातू कडोवन ताश्याचे तोंपेले तयार करता. आनी मागीर पाजोवपाक घेता. ही पाजोवपाची प्रक्रीया खूब कठीण आसता. ताच्या उपरांत लोखणाचो आटो तयार करता आनी मागीर पितुळाच्या चयतांक त्रेडी लायतात. ही जाली ताश्याची पयलीं क्रिया ताच्या उपरांत ताश्याक चामडें चडयतात आनी एक पितुळची चावी तासो चडोवपाक आसता. गळ्यांत घालून वाजोवपाखातीर दोन लोखणाचे नाजाल्यार पितुळाचे वाळे ताश्याक कुशीक दवरतात. अशें करून यांत्रिक तासो वाजोवपाक तयार जाता.



# 7.

# ताश्याचें प्रकार

गोंयांत ताश्यांचे तीन प्रकार मेळटात आनी तांतुतले दोनूच प्रकार गोंयात चड प्रमाणांत वाजयतात अशें दिश्टी पडटा.

## ताश्याचो पयलो प्रकार

ह्या पयल्या प्रकाराचो तासो हो सगळयात ल्हान तासो म्हण वळखतात. हे ताशे बेळगांव सारखिल्या शारांनी आमकां पळोवपाक मेळटात आनी हे ताशे बेळगांवच्यान गोंयांत हाडटात. हे ताशे ल्हान आशिल्यान हांचो आवाज बरो आयाकुपाक येता. ह्या ताश्यांची लांबाय 10 ते 25 से.मी. आसता जाल्यार ताची रूंदाय 20 ते 25 से.मी. आसता. हो तासो सगळो यांत्रिक पध्दतीन केल्लो आसता. हांचे वजन 3 नाजाल्यार 4 किलो आसता.





## ताश्याचो दुसरो प्रकार

ह्या दुसऱ्या प्रकाराचो तासो हो ‘व्हडलो तासो’म्हण वळखतात. हें ताशे आमकां महाराष्ट्र, गोंय, कर्नाटक सारकिल्या राज्यांनी मेळटा. हो तासो

व्हडलो आशिल्यान ताचो आवाज फुटलेल्या भाशेन येता. ह्या ताश्याची लांबाय 20 सें.मी. आसतात. जाल्यार रुंदाय 30 ते 35 सें.मी. मेरेन आसतात. हाच्या बडयाची लांबाय 35 सेंमी आसतात. हया ताश्यात तांबे, पितूळ, लोखंण, ह्या तीन धातुंचो आस्पाव जाता. गोंयांत आतां ह्याच प्रकारचे ताशे आमकां पळोवपाक मेळटात. हांचें वजन 4 नाजाल्यार 5 किलो आसता.

## ताश्याचो तिसरो प्रकार

ताश्याचो तिसरो प्रकार म्हळयार 'आराब'. हो तासो सगळयांत व्हडलो तासो म्हण गोंयांत वळखतात. हें गोंयांतलें ताश्याचें सगळयांत आदलें रूप. हो तासो सगळो लाकडाचो तयार केल्लो आसता. हाची लांबाय 30 ते 35 सें.मी. आसता. जाल्यार रुंदाय 40 ते 45 सें.मी. आसता. बडयांची लांबाय 30 ते 35 सेंमी आसता. ह्या ताश्याक मोट्यो वेताच्यो बडयो वापरतात. हो तासो पारंपारीक पध्दतीन तयार करतात. पूण गोंयांत हो तासो नानपयत जावपाक पावला. ह्या ताश्याचो आवाज गोड येता आनी हो तासो बाकीनार दवरून नाजाल्यार गळयांत घालून वाजयतात. हाचें वजन 4 किलो नाजाल्यार 5 किलो आसता.



## ताश्यांनी जायत गेल्ले बदल

गोंयांतल्या ताश्यांत जायते बदल जायत गेल्यात. पयलीं मातयेचे लेगीत ताशे आसलेले, पूण आयज आमकां एक्कूय दिश्टी पडना. ताच्या उपरांत लाकडाचो आयलो ताका आमी 'आराब' अशें म्हणटात. हो लाकडाचो तासो सुताच्या मोट्या दोरयांनी नाजाल्यार चामड्याच्या वादयांनी आट्याचेर ताणयल्लो आसता. हो

तासो गळयात घालून नाजाल्यार बाकीनार दवरून वाजयतात. पूण जसो काळ बदलत गेलो तसो ताश्यांत बदल जायत गेलो. ताच्या उपरांत पंचलयेचे ताशे आयले ते खूब म्हारग पडपाक लागले. म्हण आतां पितूळ आनी तांबे ह्या प्रकाराच्या धातुच्या ताश्यांचो उपेग जाता आनी हालीं बाजारांत आयल्ले चायनीज ताशे हें भुरग्याक वापरपाक सोंपे पडटात. ताश्याचें चामडें नर बोकड्याचें, मादी बोकडेचें, नर माकडाचें , मेंढऱ्याचें चामडें घालतात. पूण आता सिन्थेटीक चामड्याचो उपेग जावपाक लागला. पयलीं ताश्याक मोट्यो वेताच्यो बडयो वापरताले, मागीर बारीक वेताच्या बडयांनी वाजोवपाक लागले. पूण आतां प्लास्टीकच्या बडयांचो उपेग जाता. पयलीं दोरयांनी तासो ताणयताले. पूण आतां चावयांनी चयाता तायट करून तासो ताणयतात. ह्या ताश्याचो आकार, स्वर वेगळो आसता पूण ताका गोंयात 'तासो ' ह्याच नांवान वळखतात.

## तासो वाजोवपाची रीत

तासो वाजोवपाच्यो खुबश्यो रिती गोंयांत आसात. तांतुत, सुंवारेक, रोमटाक, मेळाक वेगवेगळया तरेनी वाजयतात. 'आराब ' हो तासो बाकीनार दवरून वाजयतात, नाजाल्यार गळयांत घालून वाजयतात. हो तासो बाकीनार उबो दवरिल्या कारणान चड करकरावप जायना आनी हाची वाजोवपाची रीत सामकी पारंपारीक आसता. पंचलयेचे ताशे पांयांकडेन दवरून नाजाल्यार गळयांत घालून पोटाकडे दवरून वाजयतात. हया ताश्याचेर वाजयतना दावे



नाजाल्यार उजवे बडयेन सुरूवात जाता. मदीं जोरान आनी केन्ना सावकास, ताच्या उपरांत करकरायतात. असो हो तासो वेगवेगळया तरांनी वाजतात. मात्रा ती 'सम' भरपाखातीर तासो हो खूब उपेगी पडटा. मोटो तासो जमनीर बसकेर घालून वाजयतात. तासो वाजयताना थोडे वाजोवपी भुजाचेर जोर दिवन तासो वाजयतात. थोडे मनगटाचो उपेग करून बडयांनी तासो वाजयतात. थोडे वाजोवपी ताश्याचे कडेर मारून तरेतरेचे आवाज काडटात. तासो वाजोवपी हो बरो वस्ताद आसचो पडटा. तासो वाजोवपी बरो आसल्यार सुंवारीवादन , रोमटवादन, उडट्टेवादन बरें दिसता. तासो वाजयल्या उपरांत ताचें चामडें देवोंन बॉरीक पावडर घालून एका कापेतीन दवरपाक जाय, नाजाल्यार ताका बरड, साणस लागता.

## ताश्याचो उपेग गोंयांतल्या लोककलाप्रकारांत /लोकनाचांत

1. वीरभद्र हया नाचांत ताश्याचो आस्पाव जाता, सांगाताक कांसाळें नाजाल्यार झांज आसतां.
2. गोंयांत 'धेंडलो पाडवो' मनयतात, त्या लोककला प्रकारांत तासो, धोल , आनी कांसाळयाचो उपेग जाता.
3. घोडेमोडणी ह्या लोकनाचांत, धोल, कांसाळें आनी ताश्याचो वापर जाता.
4. रोमट, सुंवारी आनी उडटेंवादनांत ताश्याचो वापर जाता.
5. पेडणेच्या दसऱ्याक 'दसरोवादन ' वाजयतात तांतूत धोलकें, कांसाळें आनी ताश्याचो आस्पाव जाता.
6. गोंयांत देवळांनी सकाळीं आनी सांजेच्यावेळार 'नबतवादन' जाता, त्या पंचवाद्यांत तासो आसता.
7. गोंयांत व्हडल्या आनी धाकट्या शिगम्यांत, धोल, डोब, कासाळें, जघांट आनी तासो वाजयतात.
8. धनगरांच्या 'होरबाला' ह्या नाचाच्या वेळार, धोल, सुरपावो ,घुमट, जंघाट आनी सांगाताक तासो आसता.
9. शिमग्याच्या दिसांनी ' हाणपेट' हो लोकप्रकार नेत्रावळी सारखिल्या गांवांनी जाता, तांतूत धोल, झांकडी आनी ताशे वाजयतात.



# 8.

# कांसाळें

## कांसाळ्याचो उल्लेख वैदिक संगितांत /साहित्यांत

कांसाळ्यांचो उल्लेख आमकां वैदिक साहित्यांत सांपडटा. ऋग्वेदांत सकयल्या श्लोकांत 'आघाटी' म्हण कांसाळ्याचो उल्लेख जाला.

**वृषारवाय वर्दते यदुपार्वति चिच्चिकः ।**
**आघटि भिंरिव धावयन्नरण्या निर्महियते ।।**

(ऋग्वेद . 10.146.2)

अथर्व वेदांत सुद्दां 'आघाट' हो शब्द मेळटा.

**यत्रवः प्रेङ्खरवा हर्रिता अर्जूना उत यत्रघाटा कर्कये: संवदन्ति ।**
**तत्परिता प्सरसः प्रतिबुध्दा अभुतन ।।**

(अथर्ववेद - 4.37.5)

## कांसाळें

कांसाळें हें घनवाद्य डोबाचो आनी ताश्याचो मेळ सादयता. कांसाळें हें डोबाच्या साथीचें वाद्य, घनवाद्यांत ताची गणना जाता. डोबावांगडा वाजपी हें वाद्य खुब पोरनें अशें घनवाद्य. वांटकुळ्या आकाराचे, सुमार 35 ते 42 सें.मी. घेराचे काश्याच्या पत्र्याचे कुडके 3,4,ते 5 सें.मी. खोल करून मदींच एक बुराक करून तातुंतल्यान दोरी घालून एकमेकांचेर आपटून आनी घांसून वाजयतात. काशें ह्या मिश्रधातू मिश्रणांचो आवाज मधूर आसता. हातांत धरून वाजोवपाखातीर बुरकांत सावन पासार केल्ल्या दोरयांक लाकडी खिटयो नाजाल्यार दाल्याची सोय केल्ली आसतात. कांसाळें हें घनवाद्य डोबाक आनी ताश्याक बरोबरीन घेवन चलता. तल् म्हळयार स्थिरपणान स्थापित करात हाचेवयल्यान कास्य - ताल आनी फुडे 'कांसाळें' अशी ह्या शब्दाची निर्मणी जाली, अशें मानतात. चय - चकै असो सादारणपणान कांसाळ्याचो आवाज आसता. शिमग्यांतली जत, जती नाजाल्यार ज्योती ह्या गीत प्रकारांत कांसाळें हें घनवाद्य स्वतंत्रपणान वाजयतात.

## कांसाळयाची घडसणी

कांसाळें हें घनवाद्य कांसार नाजाल्यार ओतारी तयार करतात. कांसाळें तयार करता ताका कांसाळें ओतप अशें म्हणटात. कांसाळें तयार करपाखातीर पांच धातू लागतात. पूण आतां तिनूच धातुचे कांसाळें तयार करतात. जर पितूळ खूब प्रमाणांत वापरली जाल्यार कांसाळ्याचो आवाज बरो आयकुपाक येना. पयलीं कांसार, पितूळ, तांबे, शिशें, लोखण, अभ्रक ह्या पांच धांतुपासुन कांसाळें तयार करताले. कांसाळें तयार करता आसतना कांसाराक कांसाळ्याची लांबाय, रुंदाय आनी ताचो घेर कितलो दवरपाक जाय तें सांगचें पडटा. त्या जोखा प्रमाण ओतारी कांसाळें ओतयता. कांसाळ्याची भितरल्ली कूस जर वयर - सकयल आसत जाल्यार कांसाळ्याचो आवाज येना म्हण बऱ्यापैकी ओताऱ्याकडून कांसाळें तयार करून घेतात.



# 9.

# कांसाळयाचे प्रकार

गोंयांत व्हडल्या झांजिच्या प्रकाराक 'कांसाळें' अशें म्हणटात. तें काशेच्या धातुपासून तयार जाता आनी वाजयल्या उपरांत ताचो आवाज 'सळ-सळ' करून येता म्हण ताका 'कांसाळें' अशें म्हणटात. पूण आतांच्या कासाळ्याचो आवाज 'चकै-चकै' असो येता. ह्या घनवाद्यांत गोंयांत तीन प्रकार पळोवपाक मेळटात.



## कांसाळें : पयलो प्रकार

हया पयल्या प्रकारांत कांसाळें हें 20 ते 22 सें. मी. आसता आनी ताचो घेर 40 ते 42 से.मी. आसता. हया कांसाळ्याचो वजन 5 ते 6 किलो आसता (दोनूय- दालीं). ह्या कांसाळ्याचें वजन चड आशिल्या कारणान चडशे भुरगे हें कांसाळें वाजयनात. जेन्ना हें कांसाळें वाजयतात तेन्ना दोनूय बाजुचे खांद दुखतात पूण ह्या कांसाळ्यान वाजप्याची ताकद आनी तांची वाजोवपाची करामत दिसून येता. कांसाळें उबे रावन वाजयतात आनी वाजोवपी आडवो-तिडवो झेलून कांसाळें वाजयता. ह्या प्रकाराची कांसाळीं आमकां बार्देस, तिसवाडी, पेडणें ह्या सारकिल्या वाठारांनी दिश्टी पडटात. हीं कांसाळीं पंचलयेची आसतात.

## कांसाळें : दुसरो प्रकार

व्हडल्या कांसाळ्याच्या आकारांत ल्हान आशिल्या कांसाळ्याक 'धाकटें कांसाळें' अशें म्हणटा. ह्या कांसाळ्यांत पितूळ



अदीक प्रमाणात वापरलेली आसता आनी त्या कारणाक लागून वाजप बरें आयकुपाक येता. ह्या कांसाळ्याचो घेर 32 ते 34 सें.मी. आसता आनी 3 सेंमी. घेऱ्याचे मदीं खोलाय करून ताच्या बुरकांत दोरी घालून ताका लाकडी खिटयो घालून वाजयतात. हाचे वजन 3 ते 4 किलो आसता.

## कांसाळ्यांत जायत गेल्ले बदल

गोंयांत आमकां कांसाळ्यांचे बदलत गेल्लें रूप पळोवपाक मेळटा. पयलीं गोंयांत 36 ते 40 सें.मी. घेऱ्याचीं कांसाळीं सांपडटाल्ली, तशीच तांची दाटाय चड आसतालीं. पूण जसो काळ बदलत गेलो तसो कांसाळ्याचो आकार बदलत गेलो, तांचो घेर आनी दाटाय कमी जायत गेली. 24 ते 30 सेंमी. घेऱ्याचीं कांसाळीं तयार जावपाक लागलीं. पयलीं काथ्याचीं दोरखणां घराघरांत मेळटालीं आनी बरांकात सावन काथ्याचे दोरयेन कासाळीं घट्ट बांदताली. पयलीची ही पारंपारीक पध्दत आयज सुद्दां आमकां दिश्टी पडटा. मागीर कांसाळ्याची पकड धील जावन आंगार पडपाची भिरांत आसलेल्या कारणान वाजपी लाकडाच्यो खिटयो खिळ्याच्या तेक्यान मेस्ताकडल्यान तयार करून घेवपाक लागले. ताच्या उपरांत कांसाळ्यांच्या बुराकांत प्लास्टीकचे गट्टे नायलॉन दोरयेच्या आदारान तयार केल्ले दिश्टी पडटात.



## कांसाळें वाजोवपाची रीत

कांसाळें हें घनवाद्य आशिल्या कारणान तें ऐकामेकांचेर घांसून वाजोवपाक पडटा. वाजोवपी दोनूय हातांनी तें उबे आनी आडवे पद्दतीन वाजयतात आनी ताचो आवाज सुद्दा बरो येता. दांबून वाजयल्लें कासाळें

हें कर्कश वाजता. उबे  पद्दतीन वाजप्यान वाजयल्या कांसाळ्याक मेकळीक मेळटा आनी जायत्या तरांनी वाजोवपी कांसाळें झेलयता. वाजोवपी कांसाळें वांटकुळ्या, उब्या आनी आडव्या पद्दतीन वाजयता. कांसाळें वाजोवपी एके लयीचेर धोलोन कांसाळें वाजयता. कांसाळें डोबाच्या ठेक्याचेर वाजयतात नाजाल्यार कांसाळें वाजप्याकडसून वाजोवपी तरेतरेचे कुडके (प्रकार) कांसाळ्याचेर दाखयतात. डोब आनी ताश्याच्या वाजपाबगर कांसाळयाच्या वाजपाक पुर्णताय येना.

## गोंयांतल्या लोकप्रकारांत आनी लोकनाचांत कांसाळ्याचो उपेग

1. शिमग्यांत 'जती' 'ज्योती' नांवाचें गीत कांसाळ्याच्या बरोबर म्हणटात.
2. पेडण्यांत दसऱ्याच्या उत्सवावेळार डोब, शींग, शेनाय, सुर्त आनी हांचेवांगडा कांसाळें वाजता.
3. घोडेमोडणी ह्या लोकनाचांत धोल, ताशे आनी कांसाळें वाजता.
4. सुंवारेक डोबावांगडा कांसाळ्याचो आस्पाव जाता.
5. चवथीक आरतीवादनांत घुमट, शामेळ आनी कांसाळें वाजता.
6. क्रिस्तावांच्या 'इंत्रूज' 'सांज्याव' आनी 'जागोराक' कांसाळें वाजता.
7. धनगरांच्या 'चपय' आनी 'होरबला' ह्या नाचांत कांसाळ्याचो आस्पाव जाता.
8. विरभद्र ह्या लोकप्रकारांत धोल, तासो, आनी कांसाळें वाजता.
9. गोंयांत खूब जातीमदीं  दिवजां मनयतात. बायलां व्रत म्हण दिवजां हातांत घेतात. ह्या जात्रांनी प्रदक्षिणा घालचेल्या वेळार वाजोवपी धोलकें, तासो आनी कांसाळें वाजयता.
10. 'गोफ' ह्या लोकनाचांत घुमट, शामेळे वांगडा कांसाळें वाजता.
11. 'तालगडी' ह्या लोकप्रकारांत घुमट, शामेळें वांगडा कांसाळें वाजता.
12. दिवली नाचांत शामेळ , घुमट, आनी कासाळें वाजता.
13. 'मोरूलो' ह्या नाचांत शामेळ आनी कांसाळ्याचो वापर जाता, तशेंच घुमट पखवाज वाजता.
14. तोणयांमेळ' ह्या लोकप्रकारांत घुमट,  धोल आनी ताश्यावांगडा कांसाळयाचो उपेग जाता.

15. 'रणमालें ' ह्या लोकप्रकारांत 'घुमटं, धोल आनी ताश्यावांगडा कांसाळ्याचो उपेग जाता.
16. 'गावडो जागर' आनी 'पेरणी जागरांत', कांसाळ्याचो उपेग जाता.
17. क्रिस्तावांच्या 'मुसळनाचांत', 'दांडलाखेळांत', आनी 'कुणबीनाचांत' कांसाळें घुमट, आनी मादळें वाजयतात.



# 10.

# जघांट

## जघांटाचो आस्पाव प्राचीन संगितांत

जघांटाचो आस्पाव प्राचीन संगितांत आमकां पळोवपाक मेळटा. जैन संगितांत 'घट्टीजंताण' अशें म्हणून जघांटाचो आस्पाव जाल्लो आसा. तशेच 'सुघोषा' असो जघांटाचो आस्पाव नाट्यशास्त्रांत मेळटा. भारतांत ह्या घनवाद्याक 'जयघंटा' अशें म्हणटात. गोंयांत 'जघांट' नाजाल्यार 'जागटें' म्हणटात. उत्तर पूर्व भारतात सगळयांत व्हडले जघांट मेळटा ताका 'सेमू' ह्या नांवान वळखतात. उत्तर भारतांत घंटा जाल्यार दक्षिण भारतांतल्या केरळ सारख्या जाग्यांचेर ताका 'सेम्माकोळम' अशें म्हणटात. हें खूब प्राचीन अशें वाद्य राजस्थान सारखिल्या राज्यांत ' श्रीमंडल' ह्या घनवाद्य रूपांत पळोवपाक मेळटा. तातूंन खूब थाळ्यांचो आस्पाव जाता. अशें हें जघांट गोंयांत कमी प्रमाणांत पळोवपाक मेळटा.

## जघांट / जाघंटे

जंघाट हे घनवाद्य डोबावांगडा वाजयतात. जघांट म्हळयार 'जयघंटा'. गोंयांत देवळां आनी हिन्दूच्या धार्मिक उत्सवांत वाजपी जघांट हें प्राचीन अशें घनवाद्य आसा. आयज ह्या वाद्याचो खुबच कमी वापर केल्लो आमकां दिश्टी पडटा. काशें आनी पितूळ ह्या मिश्रधातुनी जघांट तयार करतात. एक, देड, ते दोन सें.मी. जाडयेच्यो आनी 30,40,50 से.मी. घेऱ्याच्या वांटकुळया कुडक्याचेर वयल्यान दोन बुराक मारून हातांत धरपाक दोरी घालतगकच जघांट तयार जाता. जघांटाचो मधलो भाग बाकीच्या मानान खुबच मोटो आसता. सुमार अडेज ते तीन ते साडेतीन से.मी. आसता. एक हातांत दोरयेन लांबोवन धरून दुसऱ्या हातीत वांटकुळया लाकडी तोणयेन जघांटाचेर मारून वाजयतात. तोणयेची लांबाय 20,25,ते 30 सेंमी आसता जाल्यार त्या तोणयेचो तोणाकडचो घेर 3,4 ते 5 से.मी. लेगीत आसता. देवळांत महापूजा, नैवेद्य आनी भाराच्या वेळार जघांटाचो उपेग करतात. ताचो आवाज बेस येतात. सुंवारीवादनांत जघांट हें घनवाद्य लय तेकोन दवरपाखातीर

वाजयतात.

## जघांट तयार करपाची रीत

जघांट तयार करपाखातीर पयलीं पंचलयेचे धातु वापरताले, पूण आतां तांबें, पितूळ कांय प्रमाणांत लोखणूय वापरतात. जघांट तयार करपाखातीर कांसारांक जघांटाचो घेर आनी तांची लांबीय रुंदाय सांगची पडटा. कांसाळें आनी जघांट तयार करपाची रीत सामकी एकतरेची आसता . जघांट तयार करपाखातीर काशें आनी पितूळ हाचें मिश्रण तयार करून जघांट ओतयतात आनी मागीर तांगेल्या वांटकुळ्या आकारांत तयार करतात. जघांटाक मर्दीच उबारी दिवन जघांट कांसार तयार करता ताची जाडी जातकूच कांसाळ्याच्या वयर दोन बुराक दवरता आनी त्या बुराकांत सावन दोरी भायर काडटा. ताच्या उपरांत मेस्ताकडल्यान एक धाकटी तोणी तयार करता, ताचेर तोणी मारतकच 'घण' नाजाल्यार 'टण' असो आवाज येता. अशे तरेन जाघांट तयार जाता. थोडे कडेन पंचलयेचीं जघांटां दिश्टी पडटात. तांचो आवाज मधूर येता.



# 11.

# जघांटाचे प्रकार

गोंयांत आमकां जघांटाचे दोन प्रकार पळोवपाक मेळटात, एक व्हडलें जघांट आनी एक धाकलें जघांट.

## 1. व्हडलें जघांट/जाघंटे

व्हडले जघांट हें नांवाप्रमाण आकारात व्हडल्ले आसता. हया जघांटाचो घेर 50 सें.मी. आसता आनी ताच्या मदल्या जाग्याची जाडाय साडेतीन से.मी. आसता, जाल्यार बाकीच्या जाग्याची जाडाय अडेज - सें.मी. आसता. वयर तोंडाकडेन दोन बुराक मारून दोरयेन लाबोवन दवरतात. ताच्या तोणयाची लांबाय 25 सें.मी. आसता आनी ताच्या तोंडाकडलो घेर 5 सें.मी. आसता, ह्या जघांटाचो आवाज टण, टण करून येता.



## 2. धाकलें जघांट

धाकलें जघांट व्हडल्या जघांटापरस ल्हान आसता. ह्या जघांटाचो घेर 40 से.मी. आसता आनी ताच्या मदल्या जाग्याची जाडाय अडेच सें.मी. आसता जाल्यार बाकीच्या जाग्यांची जाडाय दोन



सें.मी. आसता. वयर तोंडाकडे दोन बुराक दवरलेले आसतात. तातूंत दोरयो घालून वाजयतात. जघांटाच्या तोणयेची लांबाय 25 सें.मी. आसता, जाल्यार ताच्या तोंडाकडचो घेर 3 सें.मी. आसता. ह्या जघांटाचो आवाज टण, टण करून येता.

## जघांटांत जायत गेल्ले बदल

काळ बदलांत सगळ्या वाद्यांनी बदल जायत गेले, जघांटय तांका आडवाद ना. पयलीं जघांट पंचलयेचीं म्हळयार पांचधातुंनी तयार करताले पूण आतां जघांटांत तिनूच धातुंचो आस्पाव जाता. देखीक : काशें, पितुळ, लोखण. पयलीं जघांट तयार करपाक दर्जो आसलेलो पूण आतां ते तरेचीं जघांटां आमकां पळोवपाक मेळनात. पयलीं जघांटाचो आकार खूब व्हडलो आसतालो पूण दिसान दीस जघांटाचो आकार ल्हान जायत गेलो. पयलीं बुरकांत दोरी घालून हातांत धरून वाजयताले पूण आतां दोरयेच्या जाग्यार सरी घुस्पावन ती दांड्याक बांदपाची चाल येयल्या आनी लाकडी तोणयेच्या बदलाक आतां लोखणाच्या जाड वारांवाचो उपेग जघांट वाजोवपाक करतात तांका लागोन जघांटाचो मदलो जागो फुटलेलो दिश्टी पडटा. जघांटाची निर्मणी पद्दत सामकी बदललेली आसा ताचो बेढब आकार मदली मोटसाण, जाडाय आतां सगळी ना जावन गेल्ली आसान. कांयकडेन जघांटाच्या बदलाक लोखणाची पट्टी दवरून ताचेर वारांव मारतात. अशे तरेन जघांटाचें वाजोवप बंद जाल्लें आसा.



## जघांट वाजोवपाची रीत

गोंयांत जघांट वाजोवपाची रीत सामकी सोपी आसा. थोडेजाण उब्यानी जघांट वाजयतात जाल्यार थोडे मान सकयल घालून वाजयतात जघांट वाजोवपी पयलीं आपल्या दाव्या हातांत जघांट घेतात. दोरयेक घट धरून उजव्या हातांत मदींच तोणी मारून जघांट वाजयतात. जडाय आसलेलें जघांट कोंणाचे तिकटेक बांदून वाजयतात. डोबाचेर, ताश्याचेर आनी कांसाळ्याचेर नियंत्रण दवरपी वाद्य म्हळ्यार जघांट. थोडे वाजोवपी जघांट आंगापासून पयस दवरतात कारण जघांट जड आशिल्या कारणाक लागून पायांचीं बोटां मोडपाची भिरांत आसता म्हणून जघांट धाकटे भुरगे वाजोवपाचे भागनगडींत पडनात.

## गोंयच्या लोकनाच आनी लोकप्रकारांत जघांटाचो आस्पाव

1. धनगराच्या 'होरबला' ह्या नाचांत जघांट वाजयातात.
2. शिगम्यांत सुंवारीवादनात जघांट वाजयतात
3. सांगें हांगासार 'हाणपेट ' ह्या नाचांत 'झांकडी' नांवाची थाळी, जें एका प्रकाराचें जघांटाचे भावंड जावन आसा तें घनवाद्य वाजयतात.
4. घोडेमोडणी ह्या लोकनाचांत जघांट वाजयतात.
5. 'घोडो घालप' ह्या देवळाच्या आरती वाजोवपाच्या धार्मिक कार्यांत जघांट वाजयतात.



## 12.

# गोंयांत डोब खंय आसात आनी आसलेले

गोंयांत डोब आमकां पळोवपाक मेळटात. तातूंत तिसवाडी तालुक्यांत आखाड्यार आनी कुमारजुव्यां व्हडले, मध्यम आनी ल्हान आकाराचे डोब आसात. जुवें, चोडणां, रायबंदर, शिरदोन, सांतान, मौळाभाटी, चिंबल हांगासर धाकले आनी मध्यम आकाराचे डोब पळोवपाक मेळटात. पणजे हांगासार आतांच नवो डोब तयार केला. बार्देस तालुक्यांत मध्यम आनी ल्हान डोब पळोवपाक मेळटा. नेरूल, बेतीवेरें, हडफडें, दांडो, गुडें, कांदोळी , कलंगुट, खोर्ली , म्हापशें, नागवें, ओशेल, शिवोली, सालीगांव, सांगोल्डें , कामुर्ली, वागाळी गांवांत डोब आसात.



दिवचल तालुक्यांत कुडणें ह्या गांवांत नवोच डोब तयार केल्लो आसा. फोंडें तालुक्यांत तिवरें, बांदोडें, आडपय, दुर्भाट, हांगासर डोब आसात. आमोणे, नेवरें, वळवय, माशेल, एकोशी, पोंबुर्फे, कोलवाळ, ह्या गांवांनी पयलीं डोब आसलेले पूण आतां थंय ते नात.

आमोण्या शांतादुर्गा - बेताळाचे धुळवटीक सात सुंवाऱ्यो वताल्यो. तातूंत आखाडकारांच्यो दोन सुंवारी वताल्यो पूण आता गांवची एकच सुंवारी वता. सात सुंवारी वच्चे पयलीं बारा सुंवारी वताल्यो आतां तांचो आंकडो देंवोन तिनाचेर पावला. तातूंत आखाडकार, रायबंदकार आनी जुवेंकार वयतात. पयलीच्या सात सुंवारीच्या गांवांची नांवां अशीं आसात :

1. आखाडो
2. रायबंदर
3. जुवें
4. कुमारजुवें
5. नेवरें
6. आमोणें (दिवचल)
7. माशेल



# 13.

# गोंयांतली डोब वाजोवपाची रीत

◆ **चिंबलकाराची डोब वाजोवपाची रीत ( बार्देशची पध्दत )**

### 1. उडटेंवादन

चिंबलकारांचे पद्‌दतींत उडटेंवादनातं मध्य लयेन सुरू जाता आनी द्रुत लयेन मोड घेवन सोंपता. चिंबलकारांचो मोड वेगळे तरेन आसता. डोबार दोन मोड घेवन सोंपयतात.

### 2. सुंवारीवादन

चिंबलकारांचे पद्‌दतींत मध्य लयेन सुरू जाता आनी द्रुत लयेचेर दोन मोडांनी सोंपता. सुंवारीवादनांत खूब लयकारीचो प्रयोग चिंबलकारांचे पद्‌दतींत जाता आनी तें आयकुपाक, पळोंवपाक बरें दिसता.

### 3. रोमट वादन

रोमटवादनांत चिंबलकारांचे पद्‌दतीत द्रुत लयेन सुरू जाता आनी द्रुत लयेचेर मोड घेवन सोपता. रोमटवादन जाय तितले फावट वाजयतात.



# 14.

# आखाडकारांची डोब वाजोवपाची रीत
# ( तिसवाडीची पद्दत )

## 1. उड्टेंवादन

आखाड्याचे पद्दतींत उड्ट्टेवादन ठाय लयेन सुरू जाता, ल्हव ल्हव लय वाडटा आनी द्रुत लयेत तीन मोडान सोंपता. आखाड्याचे पद्दतींत माथ्यार हात हाडून डोबार मोट्यान तोणी मारून सम दाखयतात.

उड्ट्टेंवादनात आनीक वादन पद्दती आखाडकारांचे वादनांत पळोवपाक मेळटात. ह्या वादनांत सुरवेक जुगलबंदी पळोवपाक गावता. डोब, जघांट वांगडा वाद्याचेर बोल वाजयतात आनी तेच भाशेन तासो आनी कांसाळयाचेर वाजोवपी बोल काडटात.

## 2. सुंवारीवादन

सुंवारीवादनांत आखाडकारांचे पद्दतीत ठाय लयेन सुरवात जाता आनी ल्हव ल्हव तांची लय वाडत वयता. सुंवारीवादनांत डोबाचेर एक तोणी मारीनासताना (**Pause**) डोब वाजयतात. केन्ना समेचेर दोनूय तोणयो फाटी फुडें वाजयतात. मागीर मध्य लय सुरू जाल्या उपरांत लयकारीक सुरवात जाता आनी एक तोणी, दोन तोणी, तीन तोणी अशी ताची लय वाडत वता. केन्ना तोणयो फाटोफाट घेतात. लय वाडत वयता तेन्ना मध्य लय सुंवारी द्रुत लयीचेर पावता तेन्ना डोब, कांसाळें, तासो आनी जघांट हांचे बरोबर वाजप जाता आनी मागीर उडटेंवादन सुरू जाता. ताचो आवाज ल्हव-ल्हव जायत वता, उपरांत तीन मोड घेवन सोंपयतात. उडटेंवादनांत डोबाचो आनी बाकीच्या वाद्यांचो आवाज वाडत वयता आनी तीन मोडांनी सोंपता.

### 3 .रोमटवादन

आखाडकारांच्या रोमटवादनांत ल्हव सुरवात जाता आनी मागीर एक मोडप घेवन सोंपता. उपरांत द्रुत लयेत रोमट वाजोवन दुसऱ्या मोडान रोमट सोंपयतात.

निरलाकारांची आनी चिंबलकारांची वाजोवपाची पद्दत एक सारकीच आसता. निरलाकारांचे डोब ल्हान आसल्या कारणान तोणयो आडव्यो धरून वाजयतात. ताशे एक सारखेच वाजतात. ह्या वादनांत जघांट ह्या घनवाद्याचो वापर खूब कमी जाता. निरलाकारांच्या डोबाक पोदच्यान बसका आसना म्हणून डोब पालसो आसतात. डोबाच्या तोणयाचो आकार ल्हान आसल्या कारणान डोब वाजोवपाक सोंपो जाता.

आखड्यावयल्या डोबाचो आकार व्हडलो आसल्या कारणान डोब वाजयता आसताना माथ्यार हात ओडून वाजयतात. डोबाची आनी ताश्याची लयकारी आखाड्यावयल्या वादनांत पळोवपाक गावता. जघांटाचो आनी कांसाळ्याचो ह्या वादनात आस्पाव जाता. आतां ह्या वादन पद्दतीचो उपेग भरशीक जाला. चिंबलाच्या वादन पध्दतीचो प्रभाव रायबंदरकारांचे वादन पद्दतीत पळोवपाक गावता आनी आखाड्याची वादन पद्दती आपलें स्वतंत्र अशें खाशेलेंपण तिगोवन आसा.



# 15.

## डोबाविशींच्यो कांय श्रध्दा / नेम

1 बायलांनी डोब वाजोवपाक जायना.
2 डोब (सुंवारी) वाजयता आसतना बायलांनी थंय वचपाक जायना.
3. डोबाक चौगाजाण धरीनात.
4. डोबाक पांय लागपाक जायना.
5. सुंवारी वाजयता आसताना डोबान पयलीं सुरवात करपाक जाय. मागीर हेर वाद्यांनी.
6. डोबाची पुजा करतात आनी ताका नैवेद्य दाखयता.
7. डोब दवरपाचो खास असो जागो आसता.
8. होळी घातल्या उपरांत डोब वाजयनात.
9. वाजोवपी डोबाक पांया पडून तोणयो हातांत घेता.
10. डोब केन्नाच एकटो वाजयनात साथीक तासो, कांसाळें, जघांट वाजतात



11. सगळ्यांत पयलीं मांडार डोब वाजतात.
12. धा जाणांचे मान्यतायेबगर (जण) डोबाक कोणेंच व्हरपाक जायना वा वाजोवपाक जायना.
13. मांडकार पयलीं डोबाचेर तोणी मारता.
14. ठग घातल्या उपरांत (आडवे) डोब वाजयनात.

# 16.

# आखाड्यावयली सुंवारी वादनाची परंपरा

आखाड्यावयली सुंवारी वाजोवपाची परंपरा जाण्ट्यांकडल्यान माहिती मेळ्ळ्या ते प्रमाण पाचशें वरसां इतकी पोन्नी आसा. आखाड्यार सावंताकडेन डोब, ताशे आसात. पांडुरंग देवस्थानाकडे डोब, ताशे, जघांट, कासाळें आसात. विठ्ठल रखुमाईच्या देवस्थानाकडे डोब, ताशे, कांसाळें, जघांट देवस्थानाची मालमत्ता म्हणून जमा आसा. आखाड्यावयले सावंत म्हाजन देवस्थानाची मान्यता घेवन ती वाजोवपाक व्हरता. पयलीं सुंवारी वाजोवपाची तालीम एक म्हयनो चलताली. आता तीन दीस आसतगीकच तालीम मारतात. सावंताची जरी ती सुंवारी आसली तरी सगळो आखाडो गांव आमोणेचे धुळवटीक वयता. 1995 वर्साच्या हिशेबाप्रमाण सावंताचे 37 जण आसलेले. वाद्यां दुरूस्ती, जेवण खर्च हिशेब पटी काडून करतात.



## 17.

# डोबाची आनी कवाळाची घेवपाची काळजी.

1. सुरवेक ताज्या चामड्याक कुत्र्यांचो आनी कावळ्यांचो भंय आसता.
2. कमयल्या चामड्याक साणस लागतात.
3. वाजोवन तशेच चामडें दवरीत जाल्यार बुरशी लागता आनी चामड्याचें आयुश्य कमी जाता.
4. डोबाच्या चामड्याक उंदरांकडल्यान, जल्ल्यांकडल्यान आनी मुंयापासून भंय असता.
5. चामड्याचो आटो चडसो हुमकाळून दवरतात.
6. चामड्याक बॉरीक पावडर लावन दवरतात.
7. चामड्याक कडू तेल लायतात.
8. चामडें कापेतीन गुठलावन दवरतात.
9. डोबाच्यो तोणयो पुसून दवरतात.



# 18.
# डोबाचो उपेग

आमी हांगासर पारंपारीक संपर्क तंत्रज्ञानाचो विचार तरेतरेच्या पावंड्याचेर करतात. तातूंत पयलीं संपर्क माध्यम आनी तांचे पध्दतीचो अभ्यास खेरीज सांस्कृतिक सदच्या वेवहाराखातीर आनी धार्मिक कार्यांखातीर अशें संपर्काचे तीन पावंडे आसतात. तातून परतुन संवाद सादपाक, संदेश दिवपाक, संपर्क थेवपाक अशें तीन प्रकार आमकां पळोवपाक गावतात. संस्कृती सांबाळपाचें काम गांवगिऱ्या वाठारांत पारंपारीक पदूदतीन आजुनूय सांबाळून दवरल्ला.

डोबाचो आवाज (**Pitch**) कमी जास्त करून तागेलो अर्थ समजून घेवप. डोबाचेर तोणी मारून , डोबाचो आवाज (**Volume**) डोबाचो गाज (**Vibrations**) डोबाचो चड - उतार **(Highpitch - Low pitch)**डोबाचो मदीच थांबोवन **(Pause)** डोबाची लयकारी **(Varieties)**

जेन्ना दोन राजा दुस्मानांमदीं लडाय जाताली तेन्ना सैनिकांक चडोवपाखातीर डोब वाजयताले, तशेंच लडाय जिखल्या उपरांत जैत जोडलेल्या सैनिकांक लागोन लोकाक कळोवपाखातीर डोब वाजयताले. गांवात कसलेच धार्मिक कार्य नाजाल्यार उत्सव आसल्यार डोब वाजयताले. कांसाक वयता आसतना शिकारेच्या वेळार जानवराक धरपाक डोब वाजयताले. स्वताचे, कुटुंबाचे नाजाल्यार गांवचे प्रस्न सोडोवपाक दंवडी घालचेखातीर डोब वाजयताले. संकश्टाची पूर्वकल्पना दिवपाखातीर डोब वाजयताले. अश्या तरेकवार उद्देशांनी डोब वाजोवपाचो उपेग पयलीं जातालो.





# 19.

# डोबावयलीं गितां /शिगमो गितां

- **नमन गीत**

पयलीं मांडार देवाक माड (व्हडली दिवली) पेटोवन आनी मागीर मांडागुरूची



पुजा करून, ताका नाल्ल, विडो, सुपारी, आनी तांदूळ ताटांत दवरतात आनी गाराण्याक सुरवात जाता आनी मागीर नमनाक सुरवात जाता. ह्या नमनाक एकच गीत आसता. हें गीत मांडार गायतात. शिगम्यांत सुरवातीक 'नमन' हें गीत तोंडान म्हणटात आनी डोबाचेर तोणयेचो ठेको धरून कांसाळें वाजोवपी गीत म्हणटात

आनी ताचे हेर वांगडी ताच्या फाटल्यान म्हणटात. नमन गीत म्हळयार देवाची प्रार्थना. गीतांत सगळया गांवांतल्या देवाचो आस्पाव आसता. हें गीत गावान सगळया देव –देवतांकडेन आपल्या कार्यात यश मागतात.

## नमन गीत

असे चांद्र - सुर्य देवाक मान दिला बा
असे चांद्र - सुर्याचो भौमान केला बा
असे धर्तरी - मायेक मान दिला बा
असे धर्तरी - मायेचो भौमान केला बा
असे मांडगुरू देवाक मान दिला बा
असे मांडगुरूचो भौमान केला बा
असे पांडुरंग देवाक मान दिला बा
असे पांडुरंगाचो भौमान केला बा
असे साखळया देवाक मान दिला बा
असे साखळयाचो भौमान केला बा
असे ब्रम्हाउदेंगी देवाक मान दिला बा
असे ब्रम्हा उदेंगीचो भौमान केला बा
असे मारूती देवाक मान दिला बा
असे मारूतीचो भौमान केला बा
असे विठू–रुक्मीणी देवाक मान दिला बा
असे विठू –रूक्मीणीचो भौमान केला बा
असे नारायण देवाक मान दिला बा
असे नारायणाचो भौमान केला बा

## दुलपदां

दुलपदां सुरवातीक थंड गतीन म्हण्टात आनी मागीर तांची लय वाडटा. पयलीं डोब वाजोवपी डोबाचेर ठेको दिता आनी गावपी मागीर दुलपद म्हण्टा.

दुलपद हें दोन थंय चार वळींचें कवनूल. दुलपद सोंपलें तशें भलैं, भलै, शबै म्हणून गती वाडोवपाची आसता. दुलपदां हीं रोमट वादनांत येतात.

1. भले भले बामणा
भाजी करपली
भाजेच्या वासान
बोमली परताली
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

2. आमची होळी आंब्याची
तारयाली होळी तांब्याची
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

3. आबोलेचो गोण तुजे
ताळयेर गो
आनी भावोजी आपयता तुका माळयेर गो
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

4. तळ्या बांदार रे
वाल फुलल्या
जावया पळोवन
मांय भुलल्या ।
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

5. करडा सोंसो हिला रे
सोश्या बामणा भिला रे
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

6. आबोलीं फुलल्या बांयकडे
चल गे सुने मांयकडे
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

7. उड रे मोरा काळा निळा
मोर लिपला चिपातळा
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

8. तळ्या बांदार रे
वाग गुरकेता
जावयान पायस केला.
मांय भुरकिता.
भलै !भलै।भलै।भलै । शबै

## जती / ज्योती

जती हो सुंवारेंतलो मुखेल प्रकार. ताका आखाड्या गांवांत जत वा ज्योती अशेंय म्हण्टात. दक्षिण गोंयात ताका 'आरत' वा 'वळ' अशें म्हण्टात. रामायण महाभारत आनी तरेकवार पुराण कथानक हे ह्या गितांचो मुखेल विशय. जती गायतना, मुखेल गायकान गावपाची आसता आनी मागीर हेर गायकांनी ती वळ म्हणपाची आसता. जती गायतना कांसाळें , जघांट आनी डोबाचेर ताल धरतात.

असे राम लक्ष्मुमण सिता तिघां जाणारे बा
असे तीं तिघां चालली वनातिरी रे बा.
असे वनातीरी जाऊन त्यांनी गुंफा बांधीली बा
असे गुंफे भितर तेणी सिते ठेवीली बा
असे गुंफेच्या दारी तीन रेघा ओडल्या बा
असे लंकेच्या रावणाने काय हो केला बा
असे भिक्षा वाड म्हणून साद केला बा
असे आमी खातो कंदमुळे तुमा काय वाडू बा
असे तीच कंदमुळा सीते आमास वाडबा
असे वाडटा जाल्यार वाड सिते सत्वचाळीता बा
असे सत्वाकारण सीते भायर सरली बा
असे लंकेच्या रावणाने झोळी वाहीली बा

असे सुवर्णाच्या ताटी भरली वनफळे बा
असे पापी रावणाने कपट साधियले बा
असे मारून सीता खांदार घेऊन  गेला बा
असे सीतेन मोठ्याने आक्रोश केला बा
असे वनी पाखरांनी आकांत केला बा
असे सितेचा आवाज त्यानी ऐकला बा
असे जटायू रावणाचे युध्द जाले बा
असे दुर्गाच्या पारावर चानी बैसलेली बा
असे धावत आली सीते रक्षणा बा
असे पापी रावणाने कपट साधिले बा
असे सीतेला चोरूनी लंकेस नेली बा

**2.** असे हस्तीनापूर पांडव राज्य करी रे बा
असे त्यांचे बांधव कौरव शंभर जाण बा
असे राज्यपती हो कौरव जाले बा
असे पाची पांडव जाले निर्बल देवा बा
असे मध्यानराती अग्नी प्राजळीली बा
असे गुहा करून पांडव दूरदेशी गेले बा
असे  द्रुपदाने मांडिले स्वयंवर बा
असे एकोनी वार्ता पांडव चालले बा
असे मंडपी मांडला मोठा पण बा
असे पांडव चालले ब्राम्हणा संगे बा
असे वस्त्रानी मंडप शृंगारीला बा
असे त्यावरी काडीले किरा मोरा बा
असे वाटेन मार्गी ही काय वर्तमान बा
असे गंधर्व रडकरी प्रिय संगे बा
असे गंधर्व राजा तो चित्रसेन भला बा
असे पार्थाशी शरण आला स्वामी बा
असे उचलला धनुक्श जाला विकल बा

असे काय बोले पांचाळी गे राधेय बा
असे कर्णाच फाटी क्षत्रिय नि:पात बा
असे फुडचे काय भाकीत देवा बा
असे सदा बसली सभेक बोलीला बा
असे भीमा अर्जुन उठले रे स्वामी बा
असे युध्द करून हात मिळवता बा
असे फुडे चालले बामणा संगे बा

3. असे सात भयणीचो भाव एक खेतलो रे बा
असे घाटवयल्यान वोचोन वांयगीणी रावलो बा
असे लयरायेन सांगले तेका उजो हाडपाक बा
असे उजो हाडपाक खेतलो भायर सरलो बा
असे भुरग्याचो खेळ पोळोन गुल्ल जालो रे बा
असे लयराय ईचार करी कित्या वोगोत रे बा



असे रागात भयीण भायर सरली बा
असे भेंणार खोट मारून पयस उडयल्लो रे बा
असे खेतल्याचे भेंड वाकडें जाले रे बा.

## ताळ / हाथो / मोड

जती उपरांत ताळ वा मोड हो प्रकार जाता. ह्या प्रकारांत डोब चड द्रुतलयीत वाजयतात आनी ताच्या वांगडा गावपी गायतात. दुलपदां आनी मोड हांच्या रुपांत सारखेपण दिसता. केन्ना केन्ना एकूच गीत दोनय भाशेंत दिश्टी पडटा.

1. चानयेच्या पिला तुका तीन पाट ।
रावणान सीतेक व्हेल्या दाखय वाट
हय भलै । भलै । भलै ।भलै । शबै

2. धन्य रे धन्य पांडुसूत
इंद्राचा आणिला ऐरावत
हय भलै । भलै । भलै ।भलै । शबै

3. लयराई आई तुका नमस्कार
दाखय लोकांक तू चमत्कार
हय भलै । भलै । भलै ।भलै । शबै

4. हळदुल्याचे पान रंगा रे
पण उखल्याचे नाव सांगा रे
हय भलै । भलै । भलै ।भलै । शबै

5. कुंती सांगे कृष्णाला
कर्ण पांडव रे पहिला.
हय भलै । भलै । भलै ।भलै । शबै

## तळय गीत



शिगम्याच्या मेळाक दर घराकडेन 'तळय ' वा तळी दिवपाची आसता. होळयेच्या आदले दिसा ताटांत नाल्ल, तांदूळ, सुपारी, गोड, घालतात आनी तुळशीकडेन व्हरून दवरतात. ताका 'तळी' म्हण्टात. ही तळी हाडपाखातीर घरच्या सवायशीणीक खेळगडे उलो मारतात आनी ह्या वेळार तळयेचें गीत म्हण्टात :

तळय हाड बाये आसवंत
आयावपण नांदू तुजे सासवंत

तळय हाडटकच फुडलें गीत म्हण्टात.

तळय हाडली आयांनी, उखल्ली खेळयांनी
तिचे घर भर रे सूरय तादळांनी.

## सुंवारी पदां

सुंवारेच्या गितांत सुंवारेचो ठेको वाजयतात. हो ठेको ठाय लयेन सुरू जाता मागीर लय वाडत वयता हातूंतलीं गितां व्हडलीं आसतात तर कांय ल्हान आसतात. एका गावप्यान गायल्या उपरांत बाकीचे साथी हें गीत गायतात.

1. कैकयीच्या मनी राम नसावा
राजा सिंहासनी भरत बसावा
2. देवाचा उत्सव झाला हो

विठोबाचा उत्सव जाता हो

3. पांडव भीमसेन स्वर्गाशी गेला रे
ऐरावत हत्ती घेऊनी आला रे

4. श्रावणाचा माता - पिता वासुदेव
खांद्यावरी कावडी घेऊन आला रे

5. नवरथा चेंडू उटी सांपडला
चेंडूच्या राती राम कवडी काडला

6. राम सखा मज भेटेल कैकयी
पाठवती वनी एकची कैकयी



# 20.

# अवनध्द वाद्यांचीं वर्णाक्षरां

अवनध्द वाद्यांचो जो आवाज येता तो दाखोवपाखातीर तरेतरेचीं अक्षरां चलनांत आसात, तांका वर्णाक्षरां अशें म्हणटात.
पयलीं सोळा वर्णाक्षरां चलनांत आसलेलीं, असो उल्लेख मेळटा.
**ड वर्जित क वर्गश्च ट त्तवर्गो रहावपि।**
**इति षोडश वर्णा : स्मुरूभयो : पाट संज्ञका:।।**
(संगीत रत्नाकर 6.3.822)

क,ख,ग,घ,ट,ठ,ड,ढ,त,थ,द,ध,य,र,ल,य
ही सोळा अक्षरां अवनध्द वाद्यांचे बोल आसात.

## उड्ट्रेवादनाचे बोल

गोंयांत डोबाची बोली जावं लिपी अस्तित्वान ना, हाचेर आनीक संशोधनाची गरज आसा. पूण म्हाका खबर आसा तेप्रमाण लोकसंगितातली मुळाक्षरां घेवन तीं हांवें तयार केल्यांत पूण हांव ताचेर ठाम ना की हांवें बरयल्या तींच खरी. हेर लोकसंगितातले जाणकार हाचेर संशोधन करुन बरोवपा शकता. डोबाचो, जघांटाचो, कांसाळयाचो आनी ताश्याचो आवाज सारको त्या वाद्याभाशेनूच येवचोना पूण त्या वादनाचो ठेको अशे भाशेन चलता हें दाखोवपाखातीर उडट्रेवादनांत लोकसंगितांतली मुळाक्षरां घेवन तीं हांवें दाखयल्यांत. ताल रचनेंत विभागाच्या दोन मात्रामदलें काळाच्या अंतराचें कमी चड अक्षराच्या उपेगान जें चलन तयार जाता ताका जती म्हणटात. उड्ट्रेवादन चतुस्त्र जातीन मोडटा. चतुस्त्र जाती म्हळयार मूळ तालवादनाच्या एका मात्रेत '4 -8-16 ह्या हिशेबान वाजयतात, त्या बोलाक चतुस्त्र जाती म्हणटात.

उडट्टेवादन लिपी /बोली ( चतस्त्र )

1 2 3 4 | 5 6 7 8
तक तक तक तक । दिमी कीट तक तक

9 10 11 12 | 13 14 15 16
तक दिमी कीट तक । दिमी कीट तक तक । 2वेळा
तक तक तक तक तक तक । दिमी कीट तक तक तक तक
तक दिमी तक तक तक तक । दिमी कीट तक तक तक तक 2 वेळा

तक तक तक तक दिमी किट तकतक । दिमी किट तक तक
तक दिमी किट तक दिमी कीट तक । दिमी कीट तक तक 2 वेळा

तक तक तक तक तक दिमी कीट तक । तक दिमी कीट तक दिमीकीटतक तक
तक दीमी किट तक तक दिमी कीट तक । तक दीमी कीट दीमी कीट तक तक तक ।

मोड. : दिमी तकी टत कीट । ता ऽ दिमी तकी । टत कीट ता ऽ ।
दिमी तकी टत कीट । ता

उडट्टे वादनाचो ठेको ल्हव सुरू जाता आनी मागीर चडत वयता, तशेंच डोबाच्या साथीचीं वाद्यां तासो, जघांट, कांसाळें हांची लेगीत लय वाडटा आनी निमाणेकडे मोड घेवन उडट्टेवादन सोंपता.

## सुंवारी वादन

उडत्या वादना फाटल्यान सुंवारीवादन सुरू जाता. सुंवारी वादन सामकें ल्हव सुरू जाता आनी हळुहळू ताची लय वाडत वयता. सुंवारी वादनांत लोकसंगितांतलीं मुळाक्षरां घेवन तीं हावें दाखवपाचो प्रयत्न केला, ह्या सुंवारीवादनाचो नाद डोब, कांसाळें, जघांट, ताश्याभाशेन येवचोना, पूण तालशास्त्राचो आदार घेवन तीं बरयल्यांत. सुंवारीवादन मिश्र जातीन मोडटा. मूळ तालाच्या एके मात्रेंत

3 + 4 ह्या हिशेबान वाजयतात त्या बोलाक मिश्र जाती म्हण्टात.

## सुंवारी वादन लिपी /बोली ( मिश्रजाती )

(दि मी की । दी मी घी ड । त की ट । त क त क )
1 2 3 1 2 3 4 । 1 2 3 । 1 2 3 4 2 वेळा
तीन तोण्यो

(दि मी की । दि मी घी ड । त की ट । त क त क)
1 2 3 । 1 2 3 4 । 1 2 3 । 1 2 3 4 **2** वेळा स तोण्यो

( दि मी की। दि मी घी ड। त की ट । त क त क )
1 2 3 । 1 2 3 4 । 1 2 3 । 1 2 3 4 **2** वेळा णव तोणयो

**विस्तार :**

( दिमी कीट तक । दिमी घीड दिमी घीड । त की ट । त क त का )
1 2 3 । 1 2 3 4 । 1 2 3 । 1 2 3 4 **2** वेळा

( दि मी की । दि मी त क । ऽ की ट । दि मी घी ड ।
1 2 3 । 1 2 3 4 । 1 2 3 । 1 2 3 4 । **2** वेळा

सुंवारी वादनाचो मोड उडट्टेवादनान सोंपता. सुंवारीवादनाची लय हळूहळू वाडटा आनी जेन्ना सुंवारी वादन द्रुतलयेत चलता तेन्ना ताका उडट्टेंवादन जोडतात. आनी उड्ट्टेवादनांच्या मोडान सुंवारीवादन सोंपता . सुंवारीवादनाचो प्रकार खूब गुंतागुंतीचो आसता. मिश्र जातीन सुरू जावन चतस्त्र जातीन सोंपता . सुंवारी वादनांत पयलीं तीन तोणयो डोबाचेर बसतात मागीर चार आवर्तनां जातकच स तोणयो बसतात आनीक परतीं चार आवर्तना जातकच णव तोणयो बसतात अशें करून सुंवारीवादनाची लय वाडत वयता.

## रोमट वादन

उडट्टेंवादन आनी सुंवारीवादन जातकच रोमटवादन जाता. रोमटाचे दोन

मोड घेवन रोमट सोंपयतात. सुंवारीवादन आनी रोमटवादनात गितां म्हणून वादन सुरु जाता. रोमट मध्यलयेत चलता आनी द्रुतलयेत सोंपता. रोमटवादन तालशास्त्राच्या तिस्त्र जातींत मोडटा. मूळ तालवादनाच्या एके मात्रेंत 3-6-12 हया हिशेबान वाजयतात त्या बोलाक तिस्त्र जाती म्हणटात.

## रोमटवादन लिपी /बोली ( तिस्त्रजाती )

(तक दिमी किट । तक दिमी किट । तक दिमी किट   तक दिमी किट )
2. तक दिमी किट ।तक दिमी किट । तक दिमी किट  तक दिमी तक तक

3. तक दिमी तक तक। तक दिमी किट । तक दिमी तक तक । तक दिमी किट
तक तक तक दिमी किट । तक दिमी किट । तक तक तक दिमी कीट । तक
दिमी किट त्ताऽ

मोड : तक तक तक तकीट तकीट  । तक तक तक तकीट तकीट
तक तक तक तकीट तकीट । तकीट तकीट तकदीमी कीट ता



# 21.

## आमोणेचो तारीवयालो खेळ ( धुळवट )



आमोणें आखाडकारांची जुवेंकारांची, रायबंदकाराची , सुंवारी वयता. पयलीं शांतादुर्गा अमृतेश्वराच्या मंडपात डोब वाजयतात . सगळयांत पयलीं आखाडकार मागीर रायबंदरकार आनी निमाणें जुवेंकरांची सुंवारी आसता. (सांतेरी अमृतेश्वर वेताळ भुतनाथ ह्या देवांक गुलाल घालतकच मागीर गुलाल एकमेकांचेर घालतात. देवाचीं तरंगा, कळस आनी कुचे भायर सरल्या उपरांत तिनय गांवाच्यो सुंवाऱ्यो मंडपा भायर वाजयतात. त्या उपरांत आंब्यांनी सुंवारी वाजयतात. आनी मागीर सावंताच्या मदल्या कुळाकडेन ताच्या उपरांत व्हडल्या कुळाकडेन, मागीर दत्तात्रयाच्या देवळाकडे, उपरांत सावंताच्या धाकल्या कुळाकडेन आनी निमाणें आमोण्या तारीर भुतनाथाच्या देवळेकडेन सगळयो सुंवाऱ्यो पावतात आनी सगळयांनी वांगडाच वाजोवपाची आनी सोपोवपाची चाल आसा. जेन्ना सुंवारी सोंपता तेन्ना डोब उमथे घालतात. ताका 'ठग' म्हणटात. देवाचो भार येयल्या उपरांत 'भौशीक गाराणें ' जाता आनी सगळे लोक दर्यांत न्हावन कौलाक बेताळाच्या देवळांत वयतात आनी हांगासर उत्सवाची सांगता जाता. हाका तारीवयलो खेळ वा धुळवट अशें म्हणटात.

■■■

## 22.

# धारगळचो शिशिरोत्सव ( धुळवट )



आयज पेडणें तालुक्यांत धारगळ ह्या गांवांत आसलेली श्री देवी शांतादुर्गा ही मुळची म्हापसा शाराची ग्रामदेवी, 600 वर्सा पयलीं हें सगळे उत्सव म्हापशात तळीवाडयार कोचकर ह्यांच्या वाडयावयले चौकेर मनयताले. बाटाबाटीच्या वेळार ह्या देवीचे थळांतर सांखळी कारापूर हांगसर जालें. सादारण 30 वर्सां ह्या जाग्यार देवी येवन रावली. म्हापशेच्या लोकांक पयस पडपाक लागलें म्हणून देवीक अस्नोडा ह्या गावांत अडवलपाल हांगासर हाडून दवरली आनी 23 वर्सांनी सध्याच्या धारगळ ह्या गांवांत देवीचे देवूळ बांदलें. हे तिनूय जागे पयलीं सावंतवाडीकर खेमसावंत भोसले ह्यांच्या ताब्यातं आशिल्ले. म्हापशें शारांतल्या वैश्य (वाणी) भवानी ह्या देवळाक आर्थिक हातभार लायलो. गावस, नायक, गांवकार, म्हापशेकार आनी खलप ह्या घराण्यांनी फुडाकार घेतलो म्हणून ते देवीचे मानकरी (चौगुले) जाले.

म्हापश्यां शाराचो शिगमो आठ दीस मनयतात. आनी णव्या दिसा सगळे म्हापशेकार डोब , ताशे , कांसाळीं घेवन, धारगळा शांतादुर्गा देवीच्या धुळवटीक वतात. फाल्गून म्हयन्यांत गुडीपाडव्याच्या (संवसार पाडव्याच्या) आदल्या दिसा धुळवट सुरू जाता. म्हापश्या शांरातल्या तेरा वाडयावयलीं रोमटां धारगळे वता पूण आतां चारच रोमटां धारगळा वतात. तातूंत ‘पेटकारालें रोमट (जुनाबाजार) ’ आनी दुसरें ‘मरतें ’ वा ‘बागातदारालें’ रोमट धारगळे वतात. धारगळची धुळवट दनपरां सुरू जाता आनी सांजे पांच मेरेन सोंपता.

■■■

# 23.

## डोब वाजोवपी गांव /शार / ( तिसवाडी तालुको )

| गांव/शार | तालुको | म्हयनो | उत्सव | डोब कितले दिस वाजयतात. | देवूळ /देवळां |
|---|---|---|---|---|---|
| आखाडो<br>- गांव | तिसवाडी | फेब्रु,मार्च,एप्रिल<br>फाल्गुन ते चैत्र<br>एप्रिल मे<br>वैशाख माघ<br>जाने ते फेब्रु | होळी पुनव<br>गुडीपाडवा<br>कालाष्टामी परब<br>कालाष्टामी<br>परब | २ दिस<br>४ दिस (१ दिस)<br>३ दिस (१ दिस) | पांडुरंग देवस्थान<br>पांडुरंग देवस्थान<br>विठ्ठल रखुमाई देवस्थान |
| कुमारजुवें<br>गांव | तिसवाडी | चैत्र<br>मार्च एप्रिल | गुडीपाडवा<br>(पालखी उत्सव) | एक म्हयनो | शांतादुर्गा कुभांरजुवेकरीण<br>देवस्थान |
| चिमला<br>गांव | तिसवाडी | सप्टे. ऑक्टो<br>आश्विन फाल्गुन<br>फेब्रु. मार्च | नरक चतुर्दशी<br>हेळी पुनव | 1 दिस<br>1 दिस | श्रीकृष्ण देवस्थान<br>भगवती चिमलकरीण<br>महालक्ष्मी देवस्थान |
| जुवें<br>गांव | तिसवाडी | फाल्गुन चैत्र<br>फेब्रु मार्च<br>एप्रिल मे | होळी पुनव<br>पालखी उत्सव<br>शिगमोत्सव | 1 दिस<br>4 दिस | श्री शांतादुर्गा पांडुरंग देवस्थान<br>महालक्ष्मी देवस्थान |
| शिरदोना<br>वडवड<br>गांव | तिसवाडी | फाल्गुन चैत्र<br>फेब्रु. मार्च<br>एप्रिल | होळी पुनव<br>गुडीपाडवा<br>होमखण | 1 दिस<br>5 दिस | भुमिका देवी देवस्थान |
| सातान<br>कुडका गांव | तिसवाडी | फाल्गुन चैत्र<br>फेब्रु मार्च एप्रिल | होळी पुनव<br>शिगमोत्सव | 5 दिस<br>1 दिस | नागेश महारूद्र देवस्थान |
| रायबंदर<br>गांव | तिसवाडी | चैत्र<br>मार्च एप्रिल | रामनवमी<br>नाटयोत्सव | 1 दिस | श्रीराम देवस्थान |
| चोडण<br>साऊद<br>माडेल | तिसवाडी | फाल्गुन चैत्र<br>फेब्रु मार्च<br>एप्रिल | होळी पुनव<br>गुडीपाडवा<br>(शिगमोत्सव) | 5 दिस | विष्णु देवस्थान<br>भुमिका देवस्थान<br>देवकीकृष्ण देवस्थान |
| गवाळी मौळा<br>भाटी(गांव) | तिसवाडी | फाल्गुन चैत्र<br>फेब्रु-मार्च एप्रिल | शिगमोत्सव | 5 दिस | [illegible] देवस्थान |
| [illegible] | तिसवाडी | फेब्रु-मार्च<br>फाल्गुन आश्विन<br>सप्टें - ऑटो. | शिगमोत्सव<br>नरक चतुर्थी | 1 [illegible]<br>1 [illegible] | विठ्ठल रखुमाई देवस्थान<br>मारूती देवस्थान<br>महालक्ष्मी देवस्थान |

# डोब वाजोवपी गांव /शार / ( बार्देश तालुको )

| गांव/शार | तालुको | म्हयनो | उत्सव | डोब कितले दिस वाजयतात. | देवूळ /देवळां |
|---|---|---|---|---|---|
| कळंगुट – गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु,मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 9 दिस | शांतादुर्गा कलंगुटकरीण देवस्थान |
| कांदोळी – गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु,मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 5 दिस | शांतादुर्गा कांदोळकरीण देवस्थान |
| कामुर्ली गांव वागाळी | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु,मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 9 दिस | श्री देवकाळ खडपेश्वर देवस्थान प्रभु पंचायतन |
| कायसुव – गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 7 दिस | स्वामी अच्चुतानंद श्री सिध्देश्वर देवस्थान |
| खोर्ली – म्हापसा( शार) | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु. मार्च | होळी पूनव शिगमोत्सव | 5 दिस | श्री सातेरी देवस्थान श्री राष्ट्रोळी देवस्थान |
| दांडो गुडें गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 7 दिस | श्री खाजनेश्वर |
| नेरूल गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु,मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 5 दिस | श्री शांतादुर्गा नेरूलकरीण |
| नागवें गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 9 दिस | श्री नागनाथ देवस्थान |
| वेर्ती वेरें गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु–मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 1 दिस (आयतार) | श्री मारूती देवस्थान |
| ओशेल गांव शिवाली | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु–मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 7 दिस | श्री कालिका देवस्थान ब्राम्हण |
| सालीगांव गांव | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु–मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 9 दिस | श्री शर्वाणी वेताळ देवस्थान लक्ष्मी नारायण देवस्थान |
| सांगोल्डा (गांव) | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु–मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 9 दिस | श्री शांतादुर्गा सांगोल्डकरीण |
| हडफडें (गांव) | बार्देश | फाल्गुन फेब्रु–मार्च | होळी पुनव शिगमोत्सव | 7 दिस | श्री चौरंगीनाथ देवस्थान |

# डोब वाजोवपी गांव
# फोंडें तालुको

| गाव | तालुको | म्हयनो | उत्सव<br>दिस वाजयतात. | डोब कितले | देवूळ/देवळां |
|---|---|---|---|---|---|
| बांदोडों | फोंडा | फाल्गुन<br>मार्च /एप्रिल | शिगमोत्सव<br>नाटयोत्सव | चार दिस<br>डोब वाजयता | श्री रामपूरष देवस्थान<br>गौडपुरूष देवस्थान |
| तिवरें | फोंडा | फाल्गुन<br>मार्च /एप्रिल | गडेउत्सव<br>शिगमो (पालखी)<br>वाजयतात | 1 दिस<br>3 वा 4 दिस | महालक्ष्मी देवस्थान<br>शांतादुर्गा देवस्थान |
| दुर्भाट | फोंडा | फाल्गुन<br>मार्च /एप्रिल | शिगमो | 1 दिस | ग्रामपुरूष डोलिया<br>देवस्थान |

# डोब वाजोवपी गांव
# दिवचल तालुको

| गांव | तालुको | म्हयनो | उत्सव | डोब कितले<br>दिस वाजयतात | देवूळ/देवळां |
|---|---|---|---|---|---|
| कुडणे | दिवचल | फाल्गुन<br>मार्च /एप्रिल | धुळवट<br>गडेउत्सव | 1 दिस<br>1 दिस | कुडणेश्वर<br>देवस्थान |



## 24.

# गोंयांतली धुळवट ( सुंवारी वादन )

| म्हयनो | उत्सव | वाद्यां |
|---|---|---|
| फाल्गुन<br>मार्च एप्रिल | आमोणेचो तारीवयलो खेळ<br>(धुळवट) | डोब , ताशे कासाळें जघांट<br>धोलक |
| फाल्गुन<br>मार्च /एप्रिल | धारगळ शांतादुर्गेचो शिशिरोत्सव<br>(धुळवट) | डोब, ताशे<br>कासाळें |



# 25.

## उतरावळ

कांसार : धातुची आयदनां तयारी करपी
कडोवप : डोब मोडून नवो तयार करप
करकरावप : तासो , दुप्पट , चौप्पटीन वाजोवप
कवाळ : डोबाचें चामडें
खिटयो : कांसाळें घट्ट धरपाखातीर केल्ल्यो लाकडाच्यो मुठी
खाटीकखाना : जनावरां मारतात तो जागो
गट्टे : हातांत धरपाखातीर केल्यो लाकडाच्यो नाजाल्यार प्लास्टीकच्यो मुठी
घुमघुमप : आवाज गाजप
घडसणी : एकाद्रें वाद्य तयार करपाची पध्दत
चयाता : लोखणाचे नाजाल्यार पितुळचे स्क्रु डोब, तासो, चडोवपाक तांचो वापर जाता.
चिराव : चिरलेले
चामार : चामडें शिवपी एकजात
चंद्रस : एक प्रकारचो धवो पिठो
ज्योत / जती : शिगम्यांतलो गावपाचो एक प्रकार
ठग : डोब आडवे नाजाल्यार उमथे घालप
तोणी : डोबाक  वाजोवपाक वापरता त्यो लाकडाचो दोन मोट्यो बोडयो
तळी : होळयेच्या आदल्या दिसा तुळशीकडेन ताटांत नाल्ल, तांदूळ, सुपारी, पयशे आनी दिवो पेटोवन दवरतात तेका तळी म्हणटात
ताळ /हाथो/ मोड : जती जाल्या उपरांत मोड घेता आनी सगळे हातींत ताळ दिवन जती सोंपयतात.
तांगली : घटसाण येवपाक लागोवन दोरयेक बडी घालून पीळ ( आवळप) दिता
तिकटेंक : तीन कोण्याचो वापर करून बांदून तयार केली वस्त
दाली :कांसाळ्याच्या दोनुय पात्याक 'दाली' म्हणटात
दोरखाण : नाल्लाचो काथो, काडून तयार केल्ली दोरी /सुंभ
दुलपदां : दोन नाजाल्यार चार वळींचें कवनुल.
धुळवट : उत्सवाची समाप्ती धुल्ल उडोवप ( नाच - गाण्यांनी ) हालींसरा रंग उडोवन उत्सव सोंपयता

नमनगीत : शिगम्याच्या मांडार सगळया देवांक याद करून, नमस्कार करून गावपाचें पद
निसाट्टी : आडवी /निसरती
पुडी : अवनद्य वाद्यांच्या तोंडार बसयिल्ल्या जनावराचें चामडें.
फेती : कामाचे पयशे / मोबदलो
बॉण : चर्मवाद्याचो आवाज येवपाखातीर चामड्याक पोंदच्यान चिकटावपाचो एक घन पदार्थ
बाकीन : वाद्य दवरपाखातीर नाजाल्यार वाजोवप्याक केल्ली ल्हानशी लाकडी बसका
भंगसाळ : लाकूड साठोवपाचो मांगोर
भेणी : रानवटी चिवट लाकूड दिवपी झाड
मेळ : वादन वा नाच करपी कलाकरांचे चोमो
म्हाजन : मांडाचे मुखेली आनी वांगडी मूळ स्थापनाकार. तांचे वारसदार / गांवचे वसणुककार
मेस्त : लाकूड काम करपी कारागीर
माड : माडाचें झाड /व्हडली दिवली
येरोळी : खंयच्याय वस्तूक गेल्ली चीर वा येर
रोमट : एक लोकवाद्यवादन प्रकार त्या तालार खेळे नाचातलेय बी
रांपी : जनावराच्या चामड्याचे केंस काडपाचे चर्मकाराचे एक आयत
ल्हेव : चामड्यावयले केस.
लयकारी : वाद्यवानांत तरेतरेचे वादन ताल प्रकार सलग वाजोवप
वाळे : लोखणाच्यो नाजाल्यार पितुळच्यो डोबाक आनी ताश्याक वाजोपाखातीर/ गळयांत बांदपाखातीर केल्ल्यो वाटकुळयो/चौकौनी मुठी
विणप : चामडे शिल्प
वेत : बांबू जातींतलें एक प्रकारचे झाड. ताच्या वालीचें हातभर/ (देडफूट) लांबयेचे कुडकें तांकां बडयो म्हणटात. त्यो तासो वाजोवपाखातीर वापरतात.
वारांव : लोखणाची सळी
सुंवारी वादन : चर्मवाद्याचो वाजोवपाचो एक वादन प्रकार
सायलो : सागवानी लाकूड
साणस : कागद /चामडें हांचें लुकसाण करपी बारीक जीव
होळी : माडी, सांवर, नाजाल्यार आंब्याच्या झाडाची कापून तयार केल्ली होलीका रूपाची प्रतिमा. तिका हार फुलां, नाल्ल, गुडी बांदतात.

■■■

# 26.

# संदर्भ ग्रंथ


१. ठाकूर, डॉ. जयदेव सिंह - भारतीय संगीत का इतिहास,
संगीत रिसर्च अकादमी कलकत्ता विश्वविद्यालय चौक, वाराणसी

२. तारळेकर, प्रा. डॉ. ग. हा. - भारतीय वाद्यांचा इतिहास, गो. य. राणे
प्रकाशन, पुणे 30, 1973

३. खेडेकर, विनायक विष्णु - गोमंतकिय लोककला, क्रीडा व सांस्कृतिक
संचालनालय, गोवा दमण व दीव सरकार, पणजी गोवा, 1980

४. पारधी, मा. कृ. (चैतन्य बी. देव) भारतीय वाद्ये (अनु.), महाराष्ट्र राज्य
सांस्कृतिक कोश, मुंबई - 1976

५. सरदेसाई मलबारराव,- खांबघुमटाच्या सावलीतील संगीत
धी. गोवा हिंन्दू असोसिएशन, मुंबई 1970

६. फळदेसाई पांडुरंग - गोमंतकीय लोकवाद्ये - मेहता पब्लिशिंग हाऊस,
पुणे 1992






1. डोबः व्हडलो प्रकार



2. डोबः मदलो प्रकार



9. दोन तरेचे डोबाचे  बॉण



10. चामडें  शिंवतना



11. डोबाचें चामडे ताणयतना



12. डोबाच्यो तोणयो आनी बेताच्यो बडयो



13. कांसाळ्याचे प्रकार



14. धाकले भुरगे सुंवारी शिकतना



15. आखाडकारांची सुंवारी वाद्यां आनी वाजप



16. रायबंदरकारांची सुंवारी (दुसरेपद्दतीन वाजयतना)






| | | |
|---|---|---|
| नामो | : | सर्वेश चंद्रकांत भोसले<br>आखाडो, सांतईस्तेव्ह, तिसवाडी गोंय<br>मोबा: 9272314985 |


| | | |
|---|---|---|
| शिक्षण | : | बी.कॉम. शिवाजी विद्यापीठ, कोल्हापूर<br>मध्यमा पूर्ण गांधर्व महाविद्यालय, मुंबय<br>गोंयात घुमट प्रशिक्षण दिवन आरती मंडळा तयार केल्या, पत्रकार, कविता बरयल्या, मोनोलोग, नाटकुली माचयेर सादर केल्या, लोककलां भजन मळार 15 वर्सां जाली काम करता, लोकनृत्या, विज्ञान नाटकुली आनी देशभक्ती गीता बरोवन मांचयेर सादर केल्या .<br>गोंयात आनी गोंयाभायर चारशेंहुन नाटकानी काम केलां. कला अकादेमी रंगमेळाचो रेपटरी आर्टीस्ट म्हणून काम. |
| पुस्तक प्रकाशन | : | थ्री चिअर्स ( कोंकणी नाटक ) 2011<br>शिवसुमनांजली ( मराठी भक्तीगीत व आरती ) |
| ध्वनीफित | : | घुमट नाद, घुमट रंजन ( घुमटावयल्यो आरती ) |
| पुरस्कार | : | लोककला प्राविण्य पुरस्कार 2008<br>- बाबाप्रसाद कल्चरल असोसिएशन, करमळी - तिसवाडी |
| गौरव | : | संकल्प थिएटर्स कुडचडे - 2008<br>वक्रतुंड आरती मंडळ, सावर्डे - 2009<br>सार्वजनिक गणेशोत्सव मंडळ, डोंगरी - 2010<br>वैरागी नवदुर्गा आरती मंडळ, मडकई - 2011<br>अक्षयतीर्थ कलामंच , आखाडा - 2011<br>व इतर |

